# खिल खिलो

# ಖಿಲ ಖಿಲೊ



लेखकि

**इंदिरा जोडुमठ**

प्रकाशक

**“श्रीकोसम”**

श्री श्रीनिवास पाठशाळा एसोसियेशन

वि.टि. रोड, मंगळूर-५७५००१

# खिल खिलो

## कोंकणी भुरग्यां खातिर कविता संचय

लेखकि

इंदिरा जोडुमठ

नं.१४, सुकृता अपार्टमेंट, वि.टि. रस्तो,
मंगळूर. दूरवाणि: २४९२१५६

म्होल : २५/-

श्री श्रीनिवास पाठ ाळा एसोसिये ानाचे
वज्र महोत्सवाक सादर केल्लेलें
२००७-०८

"श्रीकोसम"
श्री श्रीनिवास पाठ ाळा एसोसिये ान
वि.टि. रोड, मंगळूर-५७५००१

# कोंकणी भुरग्यां खातिर कविता संचय
# एक दोनि उत्रं

कोंकणी जीवंत उर्का. आम्गेले पीळीपीळीक थांय तें अवनतिक पावनाि उरका. म्हळ्यार आमगेले कोंकणी पोरांक कोंकणीचि सोबित गोडसाणि रोंगावूक मेळकात. त्याखतिर तांगेले मनरिजवणिकेक पुस्तक जाय जातात. आतां ह्या खिलखिलो आमगेर–तुमगेर खळखळून येता, ताचो कुलुकुलु तुमगेले कान्नांत किलकिलता कांय? किलकिलता हय जाल्यार कान भर आय्कूनु आनंद पावयात. त ों कोंकणी पोरांगेले ह ेंत ताचि जोत परजळुंवों.

हें एका फकत ल्हान संग्रह. जाल्यर धाक्ल्यांक हें एक उपेग पूरति सोयिस्कर साधन जायत म्हुण सांगुयेत. हें भ ोचा आनिकूयि भो पुस्तकं परगटावचा उद्दे । दवरणिकेक सगटालो पालव गर्जेचो आस.

खिलखिलो हाका सुर जायेस संद आनि डौल दिलल्या सगटांक हांव दिनवाि सांगता. सगटांक मनपासूनचे अभिवंदन करता. कोंकणेचेले कोंकणी पोरांगेलो सहकार आमका सदं जाय..

खिलखिलो
खिलखिलेन
सगटांले काळजा घर्टेंत पडसाद घालों.

मंगळूर
०३–१२–२००८

इंदिरा जोडुमठ

# समर्पण


दि. जे. वामन भट

जाणटो जाव्नासुनूय
धाकल्यां खातिर
चकचयाल वाव्र काडुन
जीव झरयिल्या
सर्गेस्त जे. वामन भट
हांका

*************

भुर्ग्यालागि भुरगो जाव्नु
भुर्गेपणा रुच रोंगावन
भुरग्याले हात धरुन चल्लेले
तुमगेले काळजा जोत
कोंकणी बाळ साहित्याचेर
उजवाडु विरकावों ,

हें म्हण्णे तुमका दिलदारानो
समाजाचे सासणाचे िक्षणतज्ञानो
आनि
हाचो भुरकुटोय तुमचोच
सर्गेस्त जे. वामन भट गुरुदेवानो.

# मांडावळ

# वज्र महोत्सव स्तुति

फूल कोणाक
प्रणाम कोणाक
देवभास संस्कृत
वर्सं साटि धरुन
उरोवन हाडलेल्या श्री
श्रीनिवास पाठ ाळेक ।।

पूजा कोणक
येवकार कोणाक
मायभास कोंक्णि
वाडोवन अद्भुत बतावणि
दाकयिल्या मानाधिक श्री
श्रीनिवास पाठ् ाळेक ।।

वाजप कोणाक
अर्गिपाद्य कोणाक
जाति मताचा वेगळाचार
विसरून सर्वांक
ि क ाण दिल्लल्या श्री
श्रीनिवास पाठ् ाळेक ।।

धूप कोणाक
ओळ्यं दिव्वे कोणाक
दुब्ळेले विद्याभ्यासाक
हातभार दिल्लल्या
समाजप्रिय संस्था श्री
श्रीनिवास पाठ् ाळेक ।।

लक्तुबाय कोणाक
थोकणाय कोणाक
कंगाल्बंधु साधु
सत्वाचा अप्रूबायेचा
सोयिस्कर संस्था श्री
श्रीनिवास पाठ् ाळेक ।।

नैवेद्य कोणाक
आंगवण कोणाक
वज्र मुकुटधारि
प्रोल्लास मूरुति
विद्याविजय देवता श्री
श्रीनिवास पाठ् ाळेक ।।

# १. कोगुळ

कुहू कुहू कोगुळ
वसंतरायाले दलाळ
आम्ब्याक फुटल्यांत चंवर
फुल्लान भरल्यान्त रुखा कंव्र
कुहू कुहू कुहू

आंब्यार बस्ल्या कित्याक तूं
पुरो जालाय ? कांय कितें ?
भुकयेवन रडताय ? कांय कितें
येवकार तुका म्हजो घरां
उपचार करतां आंब्या ारान

धोल्लयि म्हजे पाळणे गिळणे
आल्लय तुजे गीत गाणें
उल्लै उल्लै मधुर कोंक्णीन
फुल्लोन हाल्लोन गोमटो हळून
कुहू कुहू कुहू ...

# २. बुधवंति आम्मणि जालि

ि लिट आनी का ी
काडये वयर ब ी
बरय तूं बेगी
पाठ आनी मग्गी

बैस तूं आम्मा लाग्गी
चे ट करता जग्गी
क ों बरोंव मग्गी
धांवडाय ताका बेगी

आमान जग्गीक धांवडायलो
आम्मणीन काडयो घुंवडायल्यो
आम्मणि जाली बुधवंति
आम्मालि – आन्नालि मोगाचि ।।

# ३. पाळ – बीळ

गोळी रुखा पाळ
पाळां मूळांत बीळ
बीळांत हालता बाल
कोणाले ?
खेळविंद्राले ...

## ४. गाब्बो – बिब्बो

केळींत भितर गाब्बो
धवो धवो धवो
बियेंत भितर बिब्बो
गोडु गोडु गोडु
रेवेंत भितर खुब्बो
काळो काळो काळो
उदकांत उडता बेब्बो
बुडु बुडु बुडु

## ५. वता

रस्त्यार वता मोटार
पों पों पों
पा`र वता रेल
चुकु चुकु चुकु
उदकार वता तारूं
सुंय सुंय सुंय
वार्यान्त उबता विमान
गुंय गुंय गुंय

## ६. दुदीरमण

िंत्रि ि न्ना बुरसो
दोळो तागेलो काणसो
नाकांत भरला पिणसो
पो ाच धोन भाणसो
कितें म्हणतात ताका ?
म्हणतात दुदीरमण

## ७. मामु आनी मांय

पों पों पों
मोटार आयले मोटार
मोटारींत बसल्यांत कोण ?
मामु–मांय ाण–जाण
मामान हाडल्या खेळोणी
थांबय पाळण्या जोंय
मांयेन हाडल्या रंगणि
गिणि गिणि गिणि...

## ८. जाय जाय

खंय आसा गाय
गोठयान्त बांदल्या चोयी
आम्मा नुन्नु जायी
दुदा वयली सायीय

# ९. ाळेक वता बाबुलो

बाबु बेगि उठायता
दांत ब्र ान घासता
ाबू लावुन न्हाता
देवाक पांव पडता
णमो णमो णमो
वासरेंत बाबु येता
आम्माले मांडियेर बसता
गुल्डिलि पेज जेवता
गुळु गुळु गुळु
फाटीर चीरि लांबयता
पाय्यांक बूटिस घालता
माथ्याक टोपी दवरता
ाळेक बाबुलो वता
टाकु टुकु टुकु

# १०. सात दीस ऐक वाराक

ाळा सुरु सोमारा
मामु येता मंग्ळारा
बाव्ले खेळु बुधवारा
गुरपाळेचों ब्रस्तारा
ंवते हाडुं ुक्रारा
सांतेक वचूं न्वारा
ाळेक सुटी आयतारा
सात दीस एक वाराक
वारेवा वारेवा वारेवा

# ११. कोंकणी पुस्तक दी आमा

खाणय नाका
जेवणय नाका
कोंकणी पुस्तक दी आमा
चित्रं पळयता
गींत गायता
काणियों हांव गायता आमा

ाळेर थाव्नु
भूकयेवन येतना
भोबो तूं माका दिता आम्मा
बरेपण करचे बरप िकूंक
कोंकणी पुस्तक दी आमा
हांव आनि दादा
दोगूंय मेळुन
कोंकणी सदंच वाचतातिं
वांगडा कन्नड इंग्लेज हिन्दी
िकून बुधवंत जातातीं

# १२. कोळो बुको

कोळो बुको माळ्यार साकून
सकयल देंवलो
म्यांव म्यांव करून
व्हडान रडलो
दुदा कुलें उमती घालुन
लेवूंक लागलो
पच पच आवाज करून
नुन्नु पिलो
जीब रेवडून तोंडि पुसुन
उडून धावलो

## १३. जोरलो

सांज  सरली रात आयलि
काळ्का कुडांत आम्मि निदलीं
तेदूंभीतर भायर सरलो
उबून उबून एक जोरलो
मी नि ताका दादान धरलो
सारणेन ताका अकान मारलो
थंड रावुन हांव चोयलों
हळु हळु जोरलो मेलो

## १४. मळबा रंगु

सूर्यालो रंगु
भांगराचो
चंदिर मामु
रुप्याचो
नीळ रंगु
मळबाचो
नखेत्राचो
वज्राचो
भांगरान रुप्यान वज्रान भरलां
नीळ मळबा वोरलं
अजापेन रावून चोयतात
पुराय आमचे पोर

# १५. जायदीसु

आज तुगेलो
जाय दीसु
वर्सान वरस
येवचो दीसु
माय मोगाचो पावसु
जीतो उरपाक हावेसु
आयी तळता
पुनवोडे
बापूय हाडता
नंव कपडे
आजो येता
घराकडे
आजी रांदता
पत्रोडे
रुप्या दिव्यांत
तुपाच वात
सांजेर करतात
आरत अक्षत
दी तू प्रार्थन देवाक
ंबर वरसां
खो ियां पावुंक
जाणटयो घालतात
बेसांव तुका
मस्तक धरुन
पांव थांय पुता
जीतें ऊर तूं
ंबर वरस
भागी जा तूं ाश्वत

# १६. काणि सांग या काणि

काणि सांग या काणि
बाबु दूद पीनि
बाबु दूद कित्याक पीनि ?
आम्मान ताका उम्मा दीनि ?
आमान उम्मा कित्याक दीनि ?
आन्नान तिका पेप्पे व्हरनि
आन्नान पेप्पे कित्याक व्हरनि ?
माय्येन ताका हुम्मण वाडनी
माय्येन हुम्मण कित्याक वाडनी ?
आनिकयि बांयत उदक जायनी
बांयत उदक कित्याक जायनी ?
पावसाळींत पावस पडनी
पावस कित्याक आयलो ना ?
बाबु नुन्नु पिलो ना ..
काणि सांग या काणि
पावसा उदका काणि

# १७. आप्पे काड

आप्पे काड आप्पे काड
ओ` लोंकडा कायलेर
बाबा तुजो मामु येता
पोरणे फियेट कारार
आप्पे काड आप्पे काड
खंवटे तूप रकोवन
बाये तुजी –मांय येता
कान्नाक लोलंक लांबोव्न
काल्लय फोव गोडाचो
पांकार पांक हाडून
बाबा तुजी माव ी येता
नांकाक नथु चाबोवन
बिब्बो सोलय बिब्बो सोलय
उदकांत बेगी तिंबोवन
बाबु बायेच्या आजी येता
आजाचो हात धरुन
जिंकी चिकी जिंकी चिकी जिंकि चिकीरे (२)

## १८. चंदु मगेलो बाबुलो

बाबुले सुणे  भोंकता
भोव भोव भोव
जग्गिले माजर म्हणता
मियांव मियांव मियांव
सीतुलो कोंबो रडता
को को को
ऐतूलि बोकडि सांगता
बें बें बें
हळ ीक खाता दुकर
डुरुं डुरुं डुरुं
तळये बाजू बेब्बो
टोरों टोरों टोरों
रुखार आसलो कावळो
काव काव काव
चंदु मगेलो बाबुलो
हांसुन हांसुन पडलो

## १९. मामा बायल मांय

मामा बायल मांय
हाडूंक गेल्या दाय
बिल्लि खाता सोयी
सोय्येंत पडल्या मूंय
फूंक फूंक फूंकीय ॥

## २०. बगडो

दीग माथया पकिडो
माथयार उखळता रगडो
रगडयांत आसा बगडो
काळो काळो काळो
बाबु रावला नागडो
ांर ांर ांर......

## २१. हांस तूं बाळा हांस

व्हडले गेर ो कान
दीग ो छांप्या नाक
फुल्ला पाक्ळे दोळे
ओंटार हांस पळय
हांस तू बाळा हांस
हांसून सरोंत दीस
हांस हांस हांस

# २२. चंदमामा

चंदमामा चंदमामा
मळबार कित्याक राब्लाय?
रानी । काळोकाक भियेना जाल्यार
हळू देंव तूं भूयचेर
चंदमामा चंदमामा
न्हावूंक बांय्त देव्लाय?
घासपाक ।ाबु जाय जाल्यार
दवरतां बांयचा दांडयार
चंदमामा चंदमामा
तुका कितें जाय?
खाताय जालयार कालेवन दितां
धवयान धवी ल्हायी

# २३. खावूंक येय्या

दाळी बिब्बो
द्राक्ष घालुन
आमान केलां
मडगणे
खाताय जाल्यार
हाडून दितां
तातूंतले इल्लें
तुका बाबा
आंबो अवनास
साकर घालुन
आकान केलां
सासम
खाताय जालयार
हाडून दितां
तातूंतले इल्ले
तुका बाये
तव ो पिवाय धंय घालुन
माव ोन केला सलाद
खाताय जालयार
हाडून दितां
तातूंतले इल्ले
तुका बाबा
द्राक्ष मटर फ्लावर घालुन
मांयेन केलां पलाव
खाताय जाल्यार
हाडून दितां
तांतूतले इल्ले
तुका बाये
पलाव सलाद
सासम मडगणे
खांवूक येया भुरग्यानो
खावन जेवन
डेंक मारुन
खोस पावया भुरग्यानो

# २४. बाबु

आम्मा येता
उम्मा दिता
हांडीर बसोन
मोग करता
आनु येता
कानु धरता
रडोन माका
पेप्पे व्हरता

आका येता
बुकां वाचता
गीतं गावन
थापटी मारतां

दाद येता
चेंडु हाडता
उडोन मा ेन
माका हांसयता
आजी येता
बजी करता
आजो येवन
बजी खाता

# २५. घेगा सायबा

घे घे घे घे
घेगा सायबा
माका नाकागो
माका नाकागो

काळी गायचे परमळी दूद
हून करून साकर घालून
बाटलेंत भरून हाडलां तुका (घे घे )

गंधसाळी तांदुळा पेज
दुदान पातळी गुळडून
वाटयांत वाडून हाड्ला तुका (घे घे )

पोरसांतले देवबाळे केळे
ािंदून सलद करून
गिंदलांत घालून हाड्ला तुका (घे घे )

माका नाकागो
माका नाकागो
परमळी दूदय नाका
गंधसाळी पेजय ताका
केळेंचे सलद नाका
नाका माकागो
माका नाकागो.........तरी.....

मोग करुन उम्मा दीवका
हा फाप्पा माका जाव्का
परमळी दूद पेज केळें
गळ गळ गळ गिळता दी माका गो
जाय माकागो जाय माकागो

# २६. म्हानमी वागु

डंगर ट र
डंगर ट र
आयलो
म्हानमी वागु
आड वाडिलो
व्हडलो पोटाचो
गु ो वागु
व्हडली तोंडी
दीग ी ेंपडी
जीब ती तांबडी
आमगेर आयलो
म्हानमी वागु
नाचून नाचून
गल्लीन गल्ली खेळन
नोटाच माळा घालन
पाटाच वागु
पेंटांत भोंवता
मेजता दुडू खूब
वागा वागा रानांत तुका
मेळत ना की दुडू ?
पाचवो निळसो
पाचवो निळसो
तरतरीत दुडू

# २७. दिवाळी

आयली आयली
दिवाळी
भायर भीतर
पणटी लायली
आनान हाडली
नखेत्र का ी
आकाक सानी
माका व्हडली
भाउन पेटलें
ऑलें फुगेट
दादान पेटले
माळे फुगेट
डम डम डम
आम्मान लायलो
फुलांच पावस
सगटाले तोंडार
फुलो हांस
दिवाळी दिवाळी
झग मग दिव्यां
सरमाळी
दिवाळी दिवाळी
भुरग्यांक को ियां
उमाळी

# २८. पोर आनी मोर

मोरा मोरा
चंद मोरा
उबून यो तूं
मगेले घरा
गळ्याक घालूं
बोरी सोरा
वचूयां आमी
कोडियाल तेरा
हाडुया आमी
िरान बोरा
वांटूया आमी
भुरग्यांक पुरा

पोरा पोरा
चंद पोरा
बैसून वचा
नवें कारार
रेवेर बैसून
दर्या दारार
वार्यांत उबून
मळबा सीमार
नाचुयां आम्मी
थक धिमी
पाचवे पाचवे
सोबीत तणार
थै तक थै
थै तक थै

# २९. खेळ

हातांत हात घालून
सगटालि आवडि ओडून
नवयांनवें खेळ खेल्यां
थकधिमी आमि नाचुया ।।

नवे उमेदीन येया
सगटांक आपोवन हाडया
लिप्पून धावन खेळ्यां
वाचून-बरोवन खेळ्यां ।।

गांधी आजो आमगेलो
हातांत बोडो धरललो
चाचा नेहरु बाप्पुल्यो
गुलाब चोगेक लायिलो ।।

गांधीले खेळ खेळ्यां
नेहरूलि काणि आयकुयां
खेळत आमी जिकवुयां
दे ाक प्रगतीक पावोंया ।।

वायटाक कान ोळयना
वायट तोंडांत गळयना
चांगांत चांग जांवया
टाळ्यो पेटून नाचूयां ।।

गांधी देव म्हणुयां
त्रिरंग बावटो धरुन
गांव भर चलूयां
ाळेक वचून िकून सवरुन
बुधवंत आमी जांवयां
मेळुन जुळुन खेळ खेळुन
बरेपण आमि बाळगूयां

# ३०. पावसराय

मळबार मोड मांडले
धूळ वारे सुटले
रुखा कव्रं हाल्ले धोल्ले
मोडांत गुडगुड धावले
गगनार वीज पेटले
द्रोणारंग उद्देले
पावसा किटयो थेंबेले
व्हरण तें भायर सरलें
कोणालें?
पावसरायाले...
आंब्या ताळिये ि गारु
गांव भर भिंगारु
वसुंद्रेले घरा आवारु
कोण लागला सुंदरु?
जाल्यार रायालि राणि
खंय लिपली?
पोल्याक हात लावन
फुल्लार रावून नाचतली
तणार बैसून हांसतली
फळांत बिणी विरगळी?
हाय् म्हजे बाबा ...

# ३१. मोगार्या फा ॅ

फाल्ले जालें
घम घम मोगार्या फा ॅ
माथ्यांत खोयता सुल्लमा
परमळु
हुंगून
सुवासु रोंगावन
मजा मारता सुल्लमा
हळू हळू सांज जाली
मोगार्या फाडया रंगु उडलो
टवटवु भागून बावले..

कितुलें घाणयार कितुलें घाणयार ?
कोण म्हणता ?
...सुल्लमा !! म्हणता ..
कितें करता ?
माथ्यांत साकून हुम्टीता
कूडा कोन ाांत उडयता
तरी कितें न्हणजे ..?

मोगार्या फा ॅ तें परमळता..
माथ्यार बैसता
बावन तरी घाम ोता..
कोयरांत पडता
गुण तकीत गौरव मेळता
रुण तकीत सख्य मेळता
हें सगटांक जाणीव जांवका

# ३२. हांव कोणं ?

देवाले गळ्या माळेंत
लिपला पूळया हांव कोणं ?
आमाले म्हावेले वेणींत
िरकला पळय हांव कोण
आकाले फांतिये गांटींत
गुटलला पळय हांव कोणं
उद्याना रोंप्या कोंग ेर
नाचता पळय हांव कोण ?

सूर्याले किरणा तेजांत
फुलता पळय हांव कोण ?
घम घम घम घम
परमळु दिता ...

सुंदर सुंदर हांव कोण ?
सुंदर रंगाचे सोबायेन
परमळ परमळ सुवासान
भूंय्चेर चंदायी िप्तलो
सांग पळय हांव कोण ?

फूल ...

# ३३. बावल्ये व्हार्डिक

रुंबडा रुखा पोंदांत
बावलो – बावल्यांक व्हार्डिक
बामण तो श्री रामु
सीता देवी बायल मूं ?

बेगडे बासिंग
गोरटे माळा
रुखा साव्टांत
फांट्या मांटवी
मंत्र सांगता गायत्री
जगांट मारता गणपती
तोंडान वाजप वाजतात
गुलाबा उदक िपितात
एक्टेन एक िक माळा घालून
मातिये अक्षत माथ्यार उडोवन
रुंबडा फळान सेस भरुन
टाळियो पेटून हांस्तात

साळ्येर पान्नं पातळावन
वाडळे चिमटि चित्रान्न
आमाय आयलि आकाय आयलि
अजाप जावन व्हार्डिक चोयलि
आवोय भुरग्यांक आफयता
मिठायी उंडो वांठिता
माका आमा.. माका आमा..
पांय धरतात तुगेले आमा
बाबा–बाये बाबा–बाये
देव तुमका कर्तलो बरें

# ३४. मेम्मे पील

मेम्मे पिला मेम्मे पिला
दर्या दाराक वचूनका
नुस्तेकार राखून रावला
रांपण पातळावन धरत
जीव तुजो काडत
तळांत देंव तळांत देंव तूं ॥

भिजुडि भिजुडि मगेलि आम्मा
तळांत तूंच देंवना कित्याक ?
दर्यार भोवन येतलो हांव
भोव जाण्कार आस्तलो हांव
उ त उ त गेलें पील
गर्वार उदकांत पेंव्ले पील ॥

ओर्कून नुस्तेकाराले रांपणांत
मारलि बोब व्हडान व्हडान
गेलों मेलों हांव आमा...
रांदून माका खतात आमा
हांगसून माका सोडवाय आमा
बेगीन कित्याक येना आमा...

पील सांगलले आयकले ना
पिलाल आमा पावली ना
आमान सांगलले आयकुका
आनान सांगलले आयकुका
जाणकार जावका भुरग्यानो

# ३५. माकड

रुखार बैसून माकड
शेंपडि हालयता
कव्रेर थाव्नु कव्रेर
उडकी मारता

पावस येता
वत येता
माकड मामाक
लग्न जाता
बायलेक बगले घालन
घुंवती घुंवती
उडकी मारता

गीम येता
तान लागता
बुडकुलेचि
पाणी पिता
चोयता तोंडि
उदकांत
चोव्नु चोव्नु
फकत हांसता
माकड रे माकड अस्सल
माकड ...

## ३६. पावस आयलो पावस

पावस आयलो पावस
थंड थंड पावस
येवचे वेळार येना
सोडचे वेळार सोडना

पावस आयलो पावस
थंड थंड पावस
बेब्यांक रडोन
गुड गुड धावोन
वीज पेटून
रुख झाडां हालोवन
पावस आयलो पावस
थंड थंड पावस

मधुर मधुर
कोगुळा गायन
धारार सुटता
वार्या घर्जन
माड मडियेर भिंगारु
भूयेंक तो श्रंगारु
पावस आयलो पावस
थंड थंड पावस

## ३७. पावसा गेले पाकुलें

पाकुले गेले
इष्टाक सोदून
होडलो पावस
आयलो सुटुवून
पाकुलें पांख
पावसाक तिंबून
जाले ना ताका
वचूंक उबून
रड रड रडले पाकुले
पान्ना पोंदाक लांबले
वूं वूं वूं ...
अ ा थोडे तेंपान
पावस राब्लो
हळून
वत तापले बेगिन
पाखं सुकोन पाकुले
इष्टांक मेळूंक गेलें
तांगेले वांगडा हांस्ले
तांगेले वांगडा नाचले
हांसुन नाचून
नांचून हांसून
पाकुलें खो ाा पावले

# ३८. ओंदरिंद ांबर

ओंदु ओंदु ऐरडु
ा ितांत पडला बरडु
ऐरडु ऐरडु नाल ु
खावचाक गोडु मिसूरपाकु
मूरु मूरु आरु
पी तूं बिरिंडा सारु
नाल ु नाल ु ऐंटु
दो ाणे फुल्ला देंटु
ऐदु ऐदु हत्तु
नाकाक लायला नत्तु
आरु आरु हदिनेरडु
वयल्यान उबलो गरुडु
एळु एळु हदिनाल ु
वाडना कित्याक दूदपाकु
ऐंटु ऐंटु हदिनारु
फाटीर पडला दाडोरु
ओंभत्तु ओंभत्तु हदिनेंटु
गोडाक आयलो अंटु
हत्तु हत्तु इप्पत्तु
बूंदी तळी तुप्पांतु
इप्पत्तु इप्पत्तु नालवत्तु
दादा म्हजो बलवंतु
नलवत्तु नलवत्तु ऐंभत्तु
दाळी–मोगे आंबटु
ऐंभत्तु इप्पत्तु नूरु
बुधवंत आमगेलो पोरु

# ३९. गर्नाल गणि

आजाले बोल्सांत हात घालून
दुडू फारता गाणि
पेंटांत वचून गर्नाल घेवन
बागांत मारता गणि
ढां ढां ... टुस् पुस्

गर्नाल फकत फुटून
सुटता गणिले फाटीर
गणि भियेवन घरां धावन
लिपता कुडा कोन ांत
फाटी जळपाक बोवाळ घालता
रडता व्हड्ल्या सुरान
लोळता जमनेर पडून

तेदळा ...
हातांत बोडो धरून
आयलो आजो रागान फुगून
लिप्पिलो गणिक भायर तांडून
ता.. ता.. तापयता ..
पोल्याक मारता
कुल्याक मारता
चांग-बल्लाव जायतें सांगता
फारुंक नज
फिरुंक नज
लिपूंक नज
फटवण नज
जायत जायत जायत आजा..
तूंवे सांगिले आयकता आजा..
निमाणे ..
नातवालि फाट परसून
घोमांतले उदक पुसून
बोडो उकळून
दार मेकळून
आजो रे भायर पडलो

# ४०. पाळण्यांतुलो बाबु

पाळणें भितर निदोवन
नाद काडून नांचून
गिलगिल्चो मोरु तो कोण ?
सांगना कित्याक माका तूं आमा ...

लोण्या मोवाळ गाल्लांचो
काळे काजळा दोळ्यांचो
गुलगुल हात पाय्यांचो
भाउ तो तुगेलो मगेले आना

गोंडयाले दोळ्या पड्द्यांत
मळबा नखेत्र फळफळता
पुनवे चंद्रालि चान्नेणि
पोल्यार सावन उद्देता

तांबडे पावळ्या ऑंटार
सांज फुलून घमघमता
चोंच्रि चोंच्रि बोलियेन
देवाक तो भुल्ल्यता

चांग-बल्लाव पाप-पुण्य
दोन्नुंय तो नेण
तरी सांग माका तो कोणं?
देव तो .. देव मगेलो आना ...

# ४१. बु ी बाबु

उडून उडून
नाचून येता
पो ा आमचो
बु ी बाबु

‘रप्प’ नि कान
नीट करता
ोंपडि हालोवन
सुत्त काडता

अंबा अंबा
तो म्हणता
फाटी पोट
जिबेन लेंवता

लाग मारुन
धिंगण घालून
पाल्लो पोतरो
तो हुंगता

आम्माले म्हार्यांत
घरा आंगणांत
गळ्या खिलखिलो हाल्लयता
खिलखिल नाद काडून
तक धिमि तो नाचता

# ४२. माजरा पील

माजरा पिल्ला माजरा पिल्ला
बीळा तोंडार
कित्याक
राव्ला ?
बीळांत लिप्पिले
हुंदरा चिंव्डेक
धरुंक
राव्ला...

माजरा पिल्ला हुंदरा
चिंव्डेक
धरल्यार तूवें
दुखत .............

येना कित्याक
मागेले वांगडा
बु ी दूद
पिवूंक...

बु ी दूद
दित्ता तरी
हुंदरा चिव्डे
कित्याक ?

दूद पिवून
तुगेले वांगडा
खेळतलो हांव
गम्मत

# ४३. कितें करुंक

आजो उद्याना वत्तलो
कितें करुंक ?
रुखा रोंप्यांक उदक घालून
थंड करुंक

आजी ोजारा वतली
कितें करुंक ?
हांची तांचि गजालि उलोवन
मजा करुंक

आनु बजारा वतलो
कितें हाडूंक ?
चंडु बॅट हाडून
फकत खेळूंक

आमा वासरे वत्तली
कितें करुंक ?
को ो भोबो करुन
बाबाक घटाय हाडूंक

बाबु ाळेक वत्तलो
कितें करुंक ?
वाचून गिरोवन बरप िकून
जाणीव जावूंक

# ४४. पावसा पावसा योरे यो

पावसा पावसा
योरे यो
मगेले बागांत
खेळूंक यो
खेळूंक तुका
बावलि दितां

चंडु आनि
बॅट दिता
पावसा पावसा
योरे यो
बागांत मगेले
रात दीस
जाय तसो

नाचून घे
हांसून घे
खेळून घे
नाचून हांसून
आनंद घे

फांत्यार उठावून
गीतं गावून
पोरसांत म्हजे
हेडून घे
गुडगुड धावोन
मळब हालोवन
रुप्याळि वीज
परजळोवन घे
पावसा पावसा
योरे यो
लिपून–बसून
खेळूंक यो

# ४५. बाये तुका कितें जाय ?

आगो आगो बाय तुका सांग कितें जाय ?
पोरसांतलि फुल्लां आनि गो ांतलि गाय
बाये बाये क ों तुजे घागरीचे पांय
सात पाकळेविंलि हांव रायालि बाय
सकळफुडे बाये तुका नुन्नु कित्या जाय ?
पीना जाल्यार माका येता पोटां भूक हाय !

सांग बाये कित्या आ ीं सळं करुंक जाय ?
माका मोग जाय सामकि सगटांचि जाय
ाळेक वतना रडूंक येता तुकां कित्या बाय ?
घरां मात, माका मेळता नारलाचि सोय
आमा म्हार्यांत सदं तुका निदूंक कित्या जाय
हांव जपता येतलिम्हणून मास्टर्नि मगेलि कांय
पावसा उदकांत खेळ्यार तुका खोंकलि जाता न्हंय
जाता जाल्यार खाता हांव डाबराले ल्हेंय
आगो आगो बाये तुजो आजो वतलो गोंय
वतलो जाल्यार हाडतलो माका खेळूंक माडा पोंय ॥

## ४६. जोयरे बाबा जोय

जोय रे बाबा जोय
बाबु आमका जाय
जाय म्हणु जाल्ललो
देवान आमका दिल्ललो
जोय जोय करतना
दोळे धांपून निदतलो
सकाळफुडे उठावन
बु ी दूद पित्तलो
आजेन बु ा करतना
आंगार तीचे मुततलो
आन्नान बगले मारतना
डगलार ताचे हागतलो
आमान जोंयो काडतना
खळ खळून हांसतलो
आमाले म्हर्यांत निदोवन
चींव चींव चिंवतलो
चींव तू बाळा चींव
हजार वरसा जीतें रांव तूंव

# ४७. यो कावळ्या यो

कावळो रुखार बसतलो
काव काव करतलो
बाबान टाळियो पेटल्यार
बुर् करुन उबतलो

कावळ्या तूं उबुनाका
तांदुळा उं ो दिता तुका
खाला देंवून तूं येना कित्याक?
माका चोंचींत धरना कित्याक?
माका चोंचींत धरना कित्याक?
यो कावळ्या यो
का का का...

# ४८. रायालि बायल राणि

काणि सांग काणि
आगो! रायालि बायल राणि
ते काणियेंत एकटो राय
ताचे गांडीक एक घाय
तो घाय फुटून पू...
ते पूवांत पोंवतात कीर
कीर खातात आंब्या ीर
तुका जाय ?
तिका जाय ?
ताका जाय ?
माका जाय ?
जाय जाय जाय
काड तूं पांळण्याक जोंय...

# ४९. ताटि पिटि तांबोळी

ताटि पिटि तांबोळी
घोसाळे  ीरां तांबोळी
गोडि गोडि कात्तळी
खावन माथ्या उसळी

रडकुळी बाब्बा सांबाळी
गुळडीय पेज मोवाळी
तुप्पा थेब्यान परमळी
जिब्बेक लाय तांबोळी

मि ा कणि उवाळी
निडलाक लाय काजळी
जेविले बाबाक निदाय
पांगुर ताका कांबळी
झेमेलो आमगेलो बाबुलो
झेम झेम झेमेलो
झेम झेम झेमेलो
झेमुन निदून पडलो

# ५०. विकणारो गुंडा

विकणार गुंडा
दारान दार
बावल्यो वि त
वच गेलो
धवीं फुल्ल बावल्यो
काळिं किट् बावल्यो
हळदुविं हळदुव्यों

रुपया ऐकि
रुपया ऐकि
विकून गोल्यो
बावल्यो

पोरान घेत्लि
पोर्यान घेत्लि
गुंडालि
खोंटलि
खालि

## ५१. पाकुल्यालि युक्ति

वार्यांत उबून आयले पळय
पाकुले
फुलाक उम्मा दिता पळय
पाकुले
त्या फुलान लजेन
म्होवा थेंबे
गळयले...
पिलें... पिलें...
पोट भर पिलें
मिस्रुड हालोवन
उबून गेलें
पाकुले...

## ५२. गोंडो पोऽरु

चंदु बाबुलो
गोंडो पोऽरु
हांसता फकत
कितें कोरुं?

ओंटार फुलयता
सुंदर हांस
तोंडान्त लिपयता
सोबीत दांत
हांसता हांसता
फकत हांसता
खिणान् रडता
रडता रडता
रडून रडून
पाळण्यांत निदता

# ५३. टां टां टां

आमान हाडलि
आब्या फोडि
टां टां टां

आनान खालो
सान्ना पोळो
थै थक थै
आका जेवलि
ताका ितान
टां टां टां

दादा येवुन
दूद पिलो
थै थक थै
टां टां टां

टां टां टां
थै थक थै
थै थक थै

# ५४. फुला बाय

फूल जाय्वे ....... आमा
फूल जाय्वे

फांत्यार उठून
गुंतिले फूल
सुंदर सुंदर
मोगार्या फूल
सोनेरी सोनेरी
ोंवते फूल
हल्का फुलका
जाय फूल
तांबडे तांबडे
गुलाब फूल
धव्यान धवे
मंदिरे फूल
निळ ों निळ ों
ंकरा फूल
घं घं घं घं
छांप्या फूल

फूके सवाय
फूके सवाय
घेय्या घेय्या...
आवय्या...

# ५५. चानी बाय (गिलहरि)

चानी बाये चानी बाये
रुखार चडून खेळ्यां
कुलु कुलु हांसून
हाल्लत जोल्लत
रुखा तोंक्यार राव्या ...

नारला गिर्ला उदक पिवून
खालांत कित्याक उडयता ?
ोंपडि कित्याक गिलगिलावनु
गल गलाय्ता ?
गिलहरि म्हणतात तुका...
कित्याक कळ्ळे माका....!
ल्हान दोळे तुजे सोबता
गांणे गोड माका लागता
खेळूंक माका आतां मेळता?
देंवून सकल येता?

चिक चींव चिक चींव
पेरां बोरां तुक्ताय ?
तुचि महिमा कळ्ळि माका...
श्रीरामाक तूं जप्ताय् ?

# ५६. वारें

वारें वारें
सुटुन योरे
रुख जाड पुराय
हालोवन योरे

पाल्लो पोतरो
उबोवन योरे
फळां–फुळां
जडोवन योरे
परमळ गिरमळ
गांवभर वांटरे
सरंगो पतंगो
गगनार धाडरे
सट सट सट सट
धारार सूटरे
जगभर जीवांच
श्वासाक जाय्रे तूं

योरे योरे ...........
वारें वारें ...........

# ५७. सूणे

भौ भौ सूणया
तुका किते उणे या
धनियाले दाखंटयार
निदता
घालेले उडयलेले
खाता
सोयर्यान दारार
आयल्यार
भौ भौ भोंकता ।

# ५८. पाड नांवाच गुंडा

ोतांत रिगून
कोब्बु फारुन
जुरलो गुंडा
धावून

जणान धरुन
घुं ो मारुन
सोडलो
अरजीव करुन

दुब्टांक वे टून
फिरून फारुन
गुंड जालो पाड

पाड गुंडान
करुन मस्त
लबाडेलो जिस्त

# ८९. गु` माणि

गु` माणि आय्लो
गावून नाचून
धावून धावून आय्लो
गु`माणि

दाव्या हातांत गुलाबं
तांबडे ताजे रंग
पोसोभार पिण्णि पाकळ्यो
िपून िवरून आय्लो

उजव्या हातांत खेळोण्यो
बावलो–बावलि रंगण्यो...

बावलि कोणाक ?
बावलो कोणाक ?
गुलाब कोणाक ?

बोवाळ घालूंक लागलो
गु`माणि
येया येया पोरानो
येया येया पोर्यानो
बावलि घेया
बावलो घेया
गुलाब घेया बाव ानो

# ६०. चुंगडि

१. पि ले आंब्या पोडि
मु ालाक देडी
खावचाक गोडी
िंदून बेगि हाडी ।

२. आंगणांत आयलां वत
सु त घाला भात
भात िजोन तांदुळु
कोमेरांगेलो गोंदोळु
गोळो गोळो गोळो ।

३. कायलेर घाला पोळो
ताका हजार दोळो
घरा वयलो माळो
माळे वयर नळो
तांब्डो ताब्डो तांब्डो ।

४. पणसार बसला पणस
आंब्यार बसला आंबो
बागांत रोयला रोंपो
रोंप्यार फुलतात कणस ।

५. आम्मा माका कोको वाडि
ताटांत हाडि गुळ्ळा फोडि
आम्मा गेली वासरीक
बाबु लागलो रडुंक
आम्मा तूं वचुनाका
गुळ्ळा फोडि माका नाका
बाबा तूंव रडुनाका
कोको नाका म्हणु नाका ।

# ಮಾಂಡಾವಳ

# ವಜ್ರ ಮಹೋತ್ಸವ ಸ್ತುತಿ

ಘೂಲಿ ಕೊಣಾಕ
ಪ್ರಣಾಮ ಕೊಣಾಕ
ದೇವಭಾಸ ಸಂಸ್ಕೃತ
ವರ್ಸ ಸಾಟಿ ಧರೂನ
ಉರೋವನ ಪಾತಲೆಲ್ಯಾ ಶ್ರೀ
ಶ್ರೀನಿವಾಸ ಪಾಠಶಾಲೇಕ

ಪೂಜ ಕೊಣಾಕ
ಯೆವಕಾರ ಕೊಣಾಕ
ಮಾಯಭಾಸ ಕೊಂಕಣಿ
ಪಾಡೋವನ ಅದ್ಭುತ ಬತಾವಣಿ
ದಾಕಯಿಲ್ಯ ಮಾನಾಧಿಕ ಶ್ರೀ
ಶ್ರೀನಿವಾಸ ಪಾಠಶಾಲೇಕ

ವಾಜಪ ಕೊಣಾಕ
ಅರ್ಗಿಪಾದ್ಯ ಕೊಣಾಕ
ಜಾತಿ ಮತಾಚ ವೆಗಳಾಚಾರ
ವಿಸರೂನ ಸರ್ವಾಂಕ
ಶಿಕ್ಷಣ ದಿಲ್ಲಲ್ಯಾ ಶ್ರೀ
ಶ್ರೀನಿವಾಸ ಪಾಠಶಾಲೇಕ

ಧೂಪ ಕೊಣಾಕ
ಬಳ್ಳಿ ದಿವ್ವೆ ಕೊಣಾಕ
ಮನ್ಸ್ಲೆ ಮಹಾತ್ಮ್ಯಾಸಾಕ
ಪಾತಭಾರ ದಿಲ್ಲಲ್ಯಾ
ಸಮಾಜಿಟ್ಟಯ ಸಂಸ್ಥಾ ಶ್ರೀ
ಶ್ರೀನಿವಾಸ ಪಾಠಶಾಲೇಕ

ಲಕ್ಷುಬಾಯು ಕೊಣಾಕ
ತೊಕಣಾಯ ಕೊಣಾಕ
ಕಂಗಾಲಬಂಧು ಸಾಧು
ಸತ್ರಾಚ ಅಪೂಬಾಯೆಚ
ಸೊಯಿಸ್ಕರ ಸಂಸ್ಥಾ ಶ್ರೀ
ಶ್ರೀನಿವಾಸ ಪಾಠಶಾಲೇಕ

ನೈವೇದ್ಯ ಕೊಣಾಕ
ಆಂಗವಣ ಕೊಣಾಕ
ವಜ್ರ ಮುಕುಟಧಾರಿ
ಪ್ರೊಲ್ಲಾಸ ಮೂರ್ತಿ
ವಿದ್ಯಾವಿಜಯ ದೇವತ ಶ್ರೀ
ಶ್ರೀನಿವಾಸ ಪಾಠಶಾಲೇಕ

# 1. ಕೊಗುಳ

ಕುಹೂ ಕುಹೂ ಕೊಗುಳ
ವಸಂತರಾಯಾಲೆ ದಲಾಳ
ಆಂಬ್ಯಾಕ ಘುಟಲ್ಯಾಂತ ಚಂವರ
ಘುಲ್ಲಾನ ಭರಲ್ಯಾಂತ ರುಖಾ ಕಂವ್ರ
ಕುಹೂ ಕುಹೂ ಕುಹೂ

ಆಂಬ್ಯಾರ ಬಸ್ಲ್ಯಾ ಕಿತ್ಯಾಕ ತೂಂ
ಪುರೊ ಜಾಲಾಯ? ಕಾಂಯ ಕಿತೆಂ?
ಭುಕಯೆವನ ರಡತಾಯ? ಕಾಂಯ ಕಿತೆಂ
ಯೆವಕಾರ ತುಕಾ ಮ್ಹುಜೆ ಘರಾಂ
ಉಪಚಾರ ಕರತಾಂ ಆಂಬ್ಯಾ ಶಿರಾನ

ಧೊಲ್ಲಯಿ ಮ್ಹುಜೆ ಪಾಳ್ಣೆಂ ಗಿಳ್ಣೆಂ
ಆಲ್ಲಯ ತುಜೆ ಗೀತ ಗಾಣೆಂ
ಉಲ್ಲೈ ಉಲ್ಲೈ ಮಧುರ ಕೊಂಕಣೀನ
ಘುಲ್ಲೋನ ಹಾಲ್ಲೋನ ಗೊಮಟೊ ಹಳೂನ
ಕುಹೂ ಕುಹೂ ಕುಹೂ...

## 2. ಬುಧವಂತಿ ಆಮ್ಮಾಣಿ ಜಾಲಿ

ಶಿಲೆಟ ಆನೀ ಕಾಡ್ಡೀ
ಕಾಡಯೆ ವಯರ ಬಡ್ಡೀ
ಬರಯ ತೂಂ ಬೆಗೀ
ಪಾಠ ಆನೀ ಮಗ್ಗೀ

ಬೈಸ ತೂಂ ಆಮ್ಮಾ ಲಾಗ್ಗೀ
ಚೆಷ್ಟ ಕರತಾ ಜಗ್ಗೀ
ಕಶೆಂ ಬರೊಂವ ಮಗ್ಗೀ
ಧಾಂವಡಾಯ ತಾಕಾ ಬೆಗೀ

ಆಮಾನ ಜಗ್ಗೀಕ ಧಾಂವಡಾಯಲೊ
ಆಮ್ಮಣೀನ ಕಾಡಯೊ ಘುಂವಡಾಯಲ್ಯೊ
ಆಮ್ಮಣಿ ಜಾಲೀ ಬುಧವಂತಿ
ಆಮ್ಮಾಲಿ-ಆನ್ನಾಲಿ ಮೊಗಾಚಿ

## 3. ಪಾಳ – ಬೀಳ

ಗೊಳೀ ರುಖಾ ಪಾಳ
ಪಾಳಾಂ ಮೂಳಾಂತ ಬೀಳ
ಬೀಳಾಂತ ಹಾಲತಾ ಬಾಲ
ಕೊಣಾಲೆ ?
ಖೊಳವಿಂದ್ರಾಲೆ ...

## 4. ಗಾಬ್ಬೊ – ಬಿಬ್ಬೊ

ಕೆಳೀಂತ್ ಭಿತರ್ ಗಾಬ್ಬೊ
ಧವೊ ಧವೊ ಧವೊ
ಬಿಯೆಂತ ಭಿತರ ಬಿಬ್ಬೊ
ಗೊಡು ಗೊಡು ಗೊಡು
ರೆವೆಂತ ಭಿತರ ಖುಬ್ಬೊ
ಕಾಳೊ ಕಾಳೊ ಕಾಳೊ
ಉದಕಾಂತ್ ಉಡತಾ ಬೆಬ್ಬೊ
ಬುಡು ಬುಡು ಬುಡು

## 5. ವತಾ

ರಸ್ತ್ಯಾರ ವತಾ ಮೊಟಾರ
ಪೊಂ ಪೊಂ ಪೊಂ
ಪಾಟ್ಟೆರ ವತ್ತಾ ರೆಲ
ಚುಕು ಚುಕು ಚುಕು
ಉದಕಾರ ವತಾ ತಾರುಂ
ಸುಂಯ್ ಸುಂಯ್ ಸುಂಯ್
ವಾರ್ಯಾಂತ ಉಬತಾ ವಿಮಾನ
ಗುಂಯ ಗುಂಯ ಗುಂಯ

## 6. ದುದೀರಮಣ್

ಶೀಂತ್ರಿ ಶಿನ್ನಾ ಬುರಸೊ
ದೊಳೊ ತಾಗೆಲೊ ಕಾಣಸೊ
ನಾಕಾಂತ ಭರಲಾ ಪಿಣಸೊ
ಪೊಟ್ಟಾಚ ಧೊನ ಭಾಣಸೊ
ಕಿತೆಂ ಮ್ಹಣತಾತ ತಾಕಾ ?
ಮ್ಹಣತಾತ ದುದೀರಮಣ

# 7. ಮಾಮು ಆನೀ ಮಾಂಯ್

ಪ್ರೊಂ ಪ್ರೊಂ ಪ್ರೊಂ
ಮೋಟರ ಆಯಲೆ ಮೋಟರ
ಮೊಟರಿಂತ ಬಸಲ್ಯಾಂತ ಕೊಣ ?
ಮಾಮು-ಮಾಂಯ ಶಾಣ-ಜಾಣ
ಮಾಮಾನ ಹಾಡಲ್ಯಾ ಖೆಳೊಣೀ
ಥಾಂಬಯ್ ಪಾಳ್ಣ್ಯ ಜೊಂಯ್
ಮಾಂಯೆನ್ ಹಾಡಲ್ಯಾ ರಂಗಣಿ
ಗಿಣೆ ಗಿಣೆ ಗಿಣೆ...

# 8. ಜಾಯ ಜಾಯ

ಖಂಯ ಆಸಾ ಗಾಯ
ಗೊಠಯಾಂತ ಬಾಂದಲ್ಯಾ ಚೊಯೀ
ಆಮ್ಮಾ ನುನ್ನು ಜಾಯೀ
ದುದಾ ವಯಲೀ ಸಾಯೀಯ

## 9. ಶಾಳೆಕ ವತಾ ಬಾಬುಲೊ

ಬಾಬು ಬೆಗಿ ಉಠಾಯತಾ
ದಾಂತ ಬ್ರಶಾನ ಘಾಸತಾ
ಶಾಬೂ ಲಾವುನ ನ್ಹಾತಾ
ದೆವಾಕ ಪಾಂವ ಪಡತಾ
ಣಮೊ ಣಮೊ ಣಮೊ
ವಾಸರೆಂತ ಬಾಬು ಯೆತಾ
ಆಮ್ಮಾಲೆ ಮಾಂಡಿಯೆರ ಬಸತಾ
ಗುಲ್ಡಿಲಿ ಪೆಜ ಜೆವತಾ
ಗುಳು ಗುಳು ಗುಳು
ಘಾಟೀರ ಚೀರಿ ಲಾಂಬಯತಾ
ಪಾಯ್ಯಾಂಕ ಬೂಟಿಸ ಘಾಲತಾ
ಮಾಥ್ಯಾಕ ಟೊಪೀ ದವರತಾ
ಶಾಳೆಕ ಬಾಬುಲೊ ವತಾ
ಟಾಕು ಟುಕು ಟುಕು

## 10. ಸಾತ ದೀಸ ಏಕ ವಾರಾಕ

ಶಾಳಾ ಸುರು ಸೊಮಾರಾ
ಮಾಮು ಯೆತಾ ಮಂಗ್ಳಾರಾ
ಬಾವ್ಲೆ ಖೆಳು ಬುಧವಾರಾ
ಗುರಪಾಳೆಚೊ ಬ್ರಸ್ತಾರಾ
ಶೆಂವತೆ ಹಾಡುಂ ಶುಕ್ರಾರಾ
ಸಾಂತೆಕ ವಚೂಂ ಶನ್ವಾರಾ
ಶಾಳೆಕ ಸುಟೀ ಆಯತಾರಾ
ಸಾತ ದೀತ ಎಕ ವಾರಾಕ
ವಾರೆವಾ ವಾರೆವಾ ವಾರೆವಾ

## 11. ಕೊಂಕ್ಣಿ ಪುಸ್ತಕ ದೀ ಆಮಾ

ಖಾಣಾಯ ನಾಕಾ
ಜಿವಣಾಯ ನಾಕಾ
ಕೊಂಕ್ಣಿ ಪುಸ್ತಕ ದೀ ಆಮಾ
ಚಿತ್ರಂ ಪಳಯತಾ
ಗೀತಂ ಗಾಯತಾ
ಕಾಣಿಯೊಂ ಹಾಂವ್ ಗಾಯತಾ ಆಮಾ

ಶಾಳೆರ ಥಾವ್ನು
ಭೂಕಯೆವನ ಯೆತನಾ
ಭೊಬೊ ತೂಂ ಮಾಕಾ ದಿತಾ ಆಮ್ಮಾ
ಬರೆಪಣ ಕರಚೆ ಬರಪ ಶಿಕೂಂಕ
ಕೊಂಕ್ಣಿ ಪುಸ್ತಕ ದೀ ಆಮಾ
ಹಾಂವ ಆನಿ ದಾದಾ
ದೊಗ್ಗಾಂಯ ಮೆಳುನ
ಕೊಂಕ್ಣಿ ಸದಂಚ ವಾಚತಾತಿ
ವಾಂಗಡಾ ಕನ್ನಡ ಇಂಗ್ಲೆಜ ಹಿಂದೀ
ಶಿಕೂನ್ ಬುಧವಂತ ಜಾತಾತ

## 12. ಕಾಳೊ ಬುಕೊ

ಕಾಳೊ ಬುಕೊ ಮಾಳ್ಯಾರ ಸಾಕೂನ
ಸಕಯಲ ದೆಂವಲೊ
ಮ್ಯಾಂವ ಮ್ಯಾಂವ ಕರೂನ
ವ್ಹಡಾನ ರಡಲೊ
ದುದಾ ಕುಲೆಂ ಉಮತೀ ಘಾಲುನ
ಲೆವೂಂಕ ಲಾಗಲೊ
ಪಚ ಪಚ ಆವಾಜ ಕರುನ
ನುನ್ನು ಪಿಲೊ
ಜೀಬ ರೆವಡೂನ ತೊಂಡಿ ಪುಸುನ
ಉಡೂನ ಧಾವಲೊ

## 13. ಜೊರಲೊ

ಸಾಂಜ  ಸರಲಿ ರಾತ ಆಯಲಿ
ಕಾಳೂಕಾ ಕುಡಾಂತ ಆಮ್ಮಿ ನಿದಲೀಂ
ತೆದೂಂಭೀತರ ಭಾಯರ ಸರಲೊ
ಉಬೂನ ಉಬೂನ ಎಕ ಜೊರಲೊ
ಮೀಶೆನ ತಾಕಾ ದಾದಾನ ಧರಲೊ
ಸಾರಣೆನ ತಾಕಾ ಆಕಾನ ಮಾರಲೊ
ಥಂಡ ರಾವುನ ಹಾಂವ ಚೊಯಲೊಂ
ಹಳು ಹಳು ಜೊರಲೊ ಮೆಲೊ

## 14. ಮಳಬಾ ರಂಗು

ಸೂರ್ಯಲೊ ರಂಗು
ಭಾಂಗರಾಚೊ
ಚಂದಿರ ಮಾಮು
ರುಪ್ಯಾಚೊ
ನೀಳ ರಂಗು
ಮಳಬಾಚೊ
ನಕೆತ್ರಾಚೊ
ವಜ್ರಾಚೊ
ಭಾಂಗರಾನ ರುಪ್ಯಾನ ವಜ್ರಾನ ಭರಲಾಂ
ನೀಳ ಮಳಬಾ ವೊರಲಂ
ಅಜಾಪೆನ ರಾವೂನ ಚೊಯತಾತ
ಪುರಾಯ ಆಮಚೆ ಪೋರ

# 15. ಜಾಯದೀಸು

ಆಜ ತುಗೆಲೊ
ಜಾಯ ದೀಸು
ವರ್ಸಾನ ವರಸ
ಯೆವಚೊ ದೀಸು
ಮಾಯ ಮೊಗಾಚೊ ಪಾವಸು
ಜೀತೊ ಉರಪಾಕ ಹಾವೆಸು
ಆಯೀ ತಳತಾ
ಪುನವೊಡೆ
ಬಾಪುಯ ಹಾಡತಾ
ನಂವ ಕಪಡೆ
ಆಜೊ ಯೆತಾ
ಘರಾಕಡೆ
ಆಜೀ ರಾಂದತಾ
ಪತ್ರೊಡೆ
ರುಪ್ಯಾ ದಿವ್ಯಾಂತ
ತುಪಾಚ ವಾತ
ಸಾಂಜೆರ ಕರತಾತ
ಆರತ ಅಕ್ಷತ
ದೀ ತೂ ಪ್ರಾರ್ಥನ ದೆವಾಕ
ಶಂಬರ ವರಸಾಂ
ಖೊಶಿಯಾಂ ಪಾವುಂಕ
ಜಾಣಟಯೊ ಘಾಲತಾತ
ಬೆಸಾಂವ ತುಕಾ
ಮಸ್ತಕ ಧರುನ
ಪಾಂವ ಥಾಂಯ ಪುತಾ
ಜೀತೆಂ ಉರ ತೂಂ
ಶಂಬರ ವರಸ
ಭಾಗೀ ಜಾ ತೂಂ ಶಾಶ್ವತ

# 16. ಕಾಣೆ ಸಾಂಗ ಯಾ ಕಾಣೆ

ಕಾಣೆ ಸಾಂಗ ಯಾ ಕಾಣೆ
ಬಾಬು ದೂದ ಪೀನಿ
ಬಾಬು ದೂದ ಕಿತ್ಯಾಕ ಪೀನಿ?
ಆಮ್ಮಾನ ತಾಕಾ ಉಮ್ಮಾ ದೀನಿ?
ಆಮ್ಮಾನ ಉಮ್ಮಾ ಕಿತ್ಯಾಕ ದೀನಿ?
ಆನ್ನಾನ ತಿಕಾ ಪೆಪ್ಪೆ ವ್ಹರನಿ
ಆನ್ನಾನ ಪೆಪ್ಪೆ ಕಿತ್ಯಾಕ ವ್ಹರನಿ?
ಮಾಯ್ಯೆನ ತಾಕಾ ಹುಮ್ಮಣ ವಾಡನಿ
ಮಾಯ್ಯೆನ ಹುಮ್ಮಣ ಕಿತ್ಯಾಕ ವಾಡನಿ?
ಆನಿಕಯಿ ಬಾಂಯತ ಉದಕ ಜಾಯನಿ
ಬಾಂಯತ ಉದಕ ಕಿತ್ಯಾಕ ಜಾಯನಿ?
ಪಾವಸಾಳೀಂತ ಪಾವಸ ಪಡನಿ
ಪಾವಸ ಕಿತ್ಯಾಕ ಆಯಲೊ ನಾ?
ಬಾಬು ನುನ್ನು ಪಿಲೊ ನಾ..
ಕಾಣೆ ಸಾಂಗ ಯಾ ಕಾಣೆ
ಪಾವಸಾ ಉದಕಾ ಕಾಣೆ

## 17. ಆಪ್ಪೆ ಕಾಡ

ಆಪ್ಪೆ ಕಾಡ ಆಪ್ಪೆ ಕಾಡ
ಒಟ್ಟೆ ಲೊಂಕಡಾ ಕಾಯಲೆರ
ಬಾಬಾ ತುಜೊ ಮಾಮು ಯೆತಾ
ಪೊರಣೆ ಫಿಯೆಟ ಕಾರಾರ
ಆಪ್ಪೆ ಕಾಡ ಆಪ್ಪೆ ಕಾಡ
ಖಿಂವಟೆ ತೂಪ ರಕೊವನ
ಬಾಯೆ ತುಜೀ–ಮಾಂಯ ಯೆತಾ
ಕಾನ್ನಾಕ ಲೊಲಂಕ ಲಾಂಬೊವನ
ಕಾಲ್ಲಯ ಘೊವ ಗೊಡಾಚೊ
ಪಾಂಕಾರ ಪಾಂಕ ಹಾಡೂನ
ಬಾಬಾ ತುಜೀ ಮಾವಶೀ ಯೆತಾ
ನಾಂಕಾಕ ನಥುಚಾಬೊವನ
ಬಿಬ್ಬೊ ಸೊಲಯ ಬಿಬ್ಬೊ ಸೊಲಯ
ಉದಕಾಂತ ಬೆಗೀ ತಿಂಬೊವನ
ಬಾಬು ಬಾಯೆಚ್ಯಾ ಆಜೀ ಯೆತಾ
ಆಜಾಚೊ ಹಾತ ಧರೂನ
ಜೆಂಕೀ ಚೆಕೀ ಜೆಂಕೀ ಚೆಕೀ
ಜೆಂಕಿ ಚೆಕೀರೆ (2)

## 18. ಚಂದು ಮಗೆಲೊ

ಬಾಬುಲೆ ಸೂಣೆಂ ಭೋಂಕತಾ
ಭೊವ ಭೊವ ಭೊವ
ಜಗ್ಗಿಲೆ ಮಾಜರ ಮ್ಹಣತಾ
ಮಿಯಾಂವ ಮಿಯಾಂವ ಮಿಯಾಂವ
ಸೀತುಲೊ ಕೊಂಬೊ ರಡತಾ
ಕೊ ಕೊ ಕೊ
ಐತೂಲಿ ಬೊಕಡಿ ಸಾಂಗತಾ
ಬೆಂ ಬೆಂ ಬೆಂ
ಹಳಶೀಕ ಖಾತಾ ದುಕರ
ಡುರುಂ ಡುರುಂ ಡುರುಂ
ತಳಯೆ ಬಾಜೂ ಬೆಬ್ಬೊ
ಟೊರೊಂ ಟೊರೊಂ ಟೊರೊಂ
ರುಖಾರ ಆಸಲೊ ಕಾವಳೊ
ಕಾವ ಕಾವ ಕಾವ
ಚಂದು ಮಗೆಲೊ ಬಾಬುಲೊ
ಹಾಂಸುನ ಹಾಂಸುನ ಪಡಲೊ

## 19. ಮಾಮಾ ಬಾಯಲ ಮಾಂಯ

ಮಾಮಾ ಬಾಯಲ ಮಾಂಯ
ಹಾಡೂಂಕ ಗೆಲ್ಯಾ ದಾಯ
ಬಿಲ್ಲಿ ಖಾತಾ ಸೊಯಿ
ಸೊಯ್ಯೆಂತ ಪಡಲ್ಯಾ ಮೂಂಯ
ಘೂಂಕ ಘೂಂಕ ಘೂಂಕೀಯ

# 20. ಬಗಡೊ

ದೀಗ ಮಾಥ್ಯಾ ಪಕಿಡೊ
ಮಾಥಯಾರ ಉಖಳತಾ ರಗಡೊ
ರಗಡ್ಯಾಂತ ಆಸಾ ಬಗಡೊ
ಕಾಳೊ ಕಾಳೊ ಕಾಳೊ
ಬಾಬು ರಾವಲಾ ನಾಗಡೊ
ಶರಂ ಶರಂ ಶರಂ

# 21. ಹಾಂಸ ತೂಂ ಬಾಳಾ ಹಾಂಸ

ವ್ಹಡಲೆ ಗೆರಶೆ ಕಾನ
ದೀಗಶೆ ಥಾಂಪ್ಯ ನಾಕ
ಘುಲ್ಲಾ ಪಾಕಳೆ ದೊಳೆ
ಒಂಟಾರ ಹಾಂಸ ಪಳಯ
ಹಾಂಸ ತೂ ಬಾಳಾ ಹಾಂಸ
ಹಾಂಸೂನ ಸರೊಂತ ದೀಸ
ಹಾಂಸ ಹಾಂಸ ಹಾಂಸ

# 22. ಚಂದಾಮಾಮಾ

ಚಂದಾಮಾಮಾ ಚಂದಾಮಾಮಾ
ಮಳಬಾರ ಕಿತ್ಯಾಕ ರಾಬ್ಲಾಯ?
ರಾತೀಜ್ಜ ಕಾಲೊಕಾಕ ಭಿಯೆನಾ ಜಾಲ್ಯಾರ
ಹಳೂ ದೆಂವ ತೂಂ ಭೂಯಚೆರ
ಚಂದಾಮಾಮಾ ಚಂದಾಮಾಮಾ
ನ್ಹಾವೂಂಕ ಬಾಂಯತ ದೆವ್ಲಾಯ?
ಘಾಸಪಾಕ ಶಾಬು ಜಾಯ ಜಾಲ್ಯಾರ
ದವರತಾಂ ಬಾಂಯ್ಚೆ ದಾಂಡಯಾರ
ಚಂದಾಮಾಮಾ ಚಂದಾಮಾಮಾ
ತುಕಾ ಕಿತೆಂ ಜಾಯ?
ಖಾತಾಯ ಜಾಲಯಾರ ಕಾಲೊವನ ದಿತಾಂ
ಧವಯಾನ ಧವೀ ಲ್ಹಾಯೀ

# 23. ಖಾವ್ರೂಂಕ ಯೆಯ್ಯಾ

ದಾಳೀ ಬಿಬ್ಬೊ
ದ್ರಾಕ್ಷ ಘಾಲುನ
ಆಮಾನ ಕೆಲಾಂ
ಮಡಗಣೆ
ಖಾತಾಯ ಜಾಲ್ಯಾರ
ಹಾಡೂನ ದಿತಾಂ
ತಾತೂಂತಲೆ ಇಲ್ಲೆಂ
ತುಕಾ ಬಾಬಾ
ಆಂಬೊ ಅವನಾಸ
ಸಾಕರ ಘಾಲುನ
ಆಕಾನ ಕೆಲಾಂ
ಸಾಸಮ
ಖಾತಾಯ ಜಾಲಯಾರ
ಹಾಡೂನ ದಿತಾಂ
ತಾತೂಂತಲೆ ಇಲ್ಲೆ
ತುಕಾ ಬಾಯೆ
ತವಶೆ ಪಿವಾಯ ಧಂಯ ಘಾಲುನ
ಮಾವಶೆನ ಕೆಲಾ ಸಲಾದ
ಖಾತಾಯ ಜಾಲ್ಯಾರ
ಹಾಡೂನ ದಿತಾಂ
ತಾತೂಂತಲೆ ಇಲ್ಲೆಂ
ತುಕಾ ಬಾಬಾ
ದ್ರಾಕ್ಷ ಮಟರ ಫ್ಲವರ ಘಾಲುನು
ಮಾಂಯೆನ ಕೆಲಾಂ ಪಲಾವ
ಖಾತಾಯ ಜಾಲ್ಯಾರ
ಹಾಡೂನ ದಿತಾಂ
ತಾತೂಂತಲೆ ಇಲ್ಲೆ
ತುಕಾ ಬಾಯೆ
ಪಲಾವ ಸಲಾದ
ಸಾಸಮ ಮಡಗಣೆ
ಖಾಂವೂಕ ಯೆಯಾ ಭುರಗ್ಯಾನ
ಖಾವನ ಜೆವನ
ಡೆಂಕ ಮಾರುನ
ಖೊಸ ಪಾವಯಾ ಭುರಗ್ಯಾನೊ

# 24. ಬಾಬು

ಆಮ್ಮಾ ಯೆತಾ
ಉಮ್ಮಾ ದಿತಾ
ಹಾಂಡೀರ ಬಸೊನ
ಮೊಗ ಕರತಾ
ಆನು ಯೆತಾ
ಕಾನು ಧರತಾ
ರಡೊನು ಮಾಕಾ
ಪೆಪ್ಪೆ ವ್ಹರತಾ

ಆಕಾ ಯೆತಾ
ಬುಕಾಂ ವಾಚತಾ
ಗೀತಂ ಗಾವನ
ಥಾಪಟಿ ಮಾರತಾಂ

ದಾದ ಯೆತಾ
ಚೆಂಡು ಹಾಡತಾ
ಉಡೊನ ಮಾಡ್ದೊನ
ಮಾಕಾ ಹಾಂಸಯತಾ
ಆಜೀ ಯೆತಾ
ಬಜೀ ಕರತಾ
ಆಜೊ ಯೆವನ
ಬಜೀ ಖಾತಾ

# 25. ಫೆಗಾ ಸಾಯಬಾ

ಫೆ ಫೆ ಫೆ ಫೆ
ಫೆಗಾ ಸಾಯಬಾ
ಮಾಕಾ ನಾಕಾಗೊ
ಮಾಕಾ ನಾಕಾಗೊ

ಕಾಳಿ ಗಾಯಚೆ ಪರಮಳೀ ದೂದ
ಹೂನ ಕರುನ ಸಾಕರ ಘಾಲೂನ
ಬಾಟಲೆಂತ ಭರುನ ಹಾಡಲಾಂ ತುಕಾ (ಫೆ ಫೆ)

ಗಂಧಸಾಳೀ ತಾಂದುಳಾ ಪೆಜ
ದುದಾನ ಪಾತಳೀ ಗುಳಡೂನ
ವಾಟಯಾಂತ ವಾಡೂನ ಹಾಡಲಾ ತುಕಾ (ಫೆ ಫೆ)

ಪೊರಸಾಂತಲೆ ದೇವಬಾಳೆ ಕೆಳೆ
ಶಿಂದೂನ ಸಲದ ಕರೂನ
ಗಿಂದಲಾಂತ ಘಾಲೂನ ಹಾಡಲಾ ತುಕಾ

ಮಾಕಾ ನಾಕಾಗೊ
ಮಾಕಾ ನಾಕಾಗೊ
ಪರಮಳೀ ದೂದಯ ನಾಕಾ
ಗಂಧಸಾಳೀ ಪೆಜಯ ತಾಕಾ
ಕೆಳೆಂಚೆ ಸಲದ ನಾಕಾ
ನಾಕಾ ಮಾಕಾಗೊ
ಮಾಕಾ ನಾಕಾಗೊ... ತರೀ.

ಮೊಗ ಕರುನ ಉಮ್ಮಾ ದೀವಕಾ
ಹಾ ಪಾಪ್ಪಾ ಮಾಕಾ ಜಾವಕಾ
ಪರಮಳೀ ದೂದ ಪೆಜ ಕೆಳೆಂ
ಗಳ ಗಳ ಗಳ ಗಿಳತಾ ದೀ ಮಾಕಾ ಗೊ
ಜಾಯ ಮಾಕಾಗೊ ಜಾಯ ಮಾಕಾಗೊ

# 26. ಮ್ಹಾನಮೀ ವಾಗು

ಡಂಗರ ಟಕ್ಕರ
ಡಂಗರ ಟಕ್ಕರ
ಆಯಲೊ
ಮ್ಹಾನಮೀ ವಾಗು
ಆಡ ವಾಡಿಲೊ
ವ್ಹಡಲೊ ಮೊಟಾಚೊ
ಗುಡ್ಡೊ ವಾಗು
ವ್ಹಡಲಿ ತೊಂಡಿ
ದೀಗಶೀ ಶೆಂಪಡಿ
ಜೀಬ ತೀ ತಾಂಬಡಿ
ಆಮಗೆರ ಆಯಲೊ
ಮ್ಹನಮಿ ವಾಗು
ನಾಚೂನ ನಾಚೂನ
ಗಲ್ಲೀನ ಗಲ್ಲೀ ಖೆಳುನ
ನೊಟಾಚ ಮಾಲಾ ಘಾಲನ
ಪಾಟಾಚ ವಾಗು
ಪೆಂಟಾಂತ ಭೊವನ
ಮೆಜತಾ ದುಡೂ ಖೂಬ
ವಾಗಾ ವಾಗಾ ರಾನಾಂತ ತುಕಾ
ಮೆಳತ ನಾ ಕೀ ದುಡೂ?
ಪಾಚವೊ ನಿಳಸೊ
ಪಾಚವೊ ನಿಳಸೊ
ತರತರೀತ ದುಡೂ

## 27. ದಿವಾಳಿ

ಆಯಲೀ ಆಯಲೀ
ದಿವಾಳೀ
ಭಾಯರ ಭೀತರ
ಪಣಟಿ ಲಾಯಲೀ
ಆನಾನ ಹಾಡಲಿ
ನಖೇತ್ರ ಕಾಡ್ಡಿ
ಆಕಾಕ ಸಾನೀ
ಮಾಕಾ ವ್ಹಡಲಿ
ಭಾವುನ ಪೆಟಲೇ
ಓಲೆ ಘುಗೆಟ
ದಾದಾನ ಪೆಟಲೆ
ಮಾಳೆ ಘುಗೆಟ
ಡಮ ಡಮ ಡಮ
ಆಮ್ಮಾನ ಲಾಯಲೊ
ಘುಲಾಂಚ ಪಾವಸ
ಸಗಟಾಲೆ ತೊಂಡಾರ
ಘುಲೊ ಹಾಂಸ
ದಿವಾಳೀ ದಿವಾಳೀ
ಝುಗ ಮಗ ದಿವ್ಯಾಂ
ಸರಮಾಳೀ
ದಿವಾಳೀ ದಿವಾಳೀ
ಭುರಗ್ಯಾಂಕ ಕೊಶಿಯಾಂ
ಉಮಾಳೀ

## 28. ಪೊರ ಆನಿ ಮೊರ

ಮೊರಾ ಮೊರಾ
ಚಂದ ಮೊರಾ
ಉಬೂನ ಯೊ ತೂಂ
ಮಗೆಲೆ ಘರಾ
ಗಳ್ಯಾಕ ಘಾಲೂಂ
ಬೊರೀ ಸೊರಾ
ವಚೂಯಾಂ ಆಮೀ
ಕೊಡಿಯಾಲ ತೆರಾ
ಹಾಡುಯಾ ಆಮೀ
ಶೆರಾನ ಬೊರಾ
ವಾಂಟುಯಾ ಆಮೀ
ಭುರಗ್ಯಾಂಕ ಪುರಾ

ಪೊರಾ ಪೊರಾ
ಚಂದ ಪೊರಾ
ಬೈಸೂನ ವಚಾ
ನವೆಂ ಕಾರಾರ
ರೆವೆರ ಬೈಸೂನ
ದರ್ಯಾ ದಾರಾರ
ವಾರ್ಯಾಂತ ಉಬೂನ
ಮಳಬಾ ಶೀಮಾರ
ನಾಂಚುನ ಆಮ್ಮೀ
ಥಕ ಧಿಮೀ
ಪಾಚವೆ ಪಾಚವೆ
ಸೊಬೀತ ತಣಾರ
ಥೈ ತಕ ಥೈ
ಥೈ ತಕ ಥೈ

# 29. ಖೆಳ

ಹಾತಾಂತ ಹಾತ ಘಾಲೂನ
ಸಗಟಾಲಿ ಆವಡಿ ಓಡೂನ
ನವಯಾಂನವೆಂ ಖೆಳ ಖೆಳ್ಯಾಂ
ಥಕಧಿಮಿ ಆಮಿ ನಾಚುಯಾ

ನವೆ ಉಮೆದೀನ ಯೆಯಾ
ಸಗಟಾಂಕ ಆಪೊವನ ಹಾಡಯಾ
ಲಿಪ್ಪೂನ ಧಾವನ ಖೆಳ್ಯಾಂ
ವಾಚೂನ-ಬರೊವನ ಖೆಳಯಾಂ

ಗಾಂಧಿ ಆಜೊ ಆಮಗೆಲೊ
ಹಾತಾಂತ ಬೊಡೊ ಧರಲಲೊ
ಚಾಚಾ ನೆಹರೂ ಬಾಪ್ಪುಲ್ಯೊ
ಗುಲಾಬ ಚೊಗೆಕ ಲಾಯಿಲೊ

ಗಾಂಧೀಲೆ ಖೆಳ ಖೆಳ್ಯಾಂ
ನೆಹರೂಲಿ ಕಾಣಿ ಆಯಕುಯಾಂ
ಖೆಳತ ಆಮೀ ಜಿಕವುಯಾಂ
ದೇಶಾಕ ಪ್ರಗತೀಕ ಪಾವೊಂಯಾ

ವಾಯಟಾಕ ಕಾನ ಶೆಳಯನಾ
ವಾಯಟ ತೊಂಡಾಂತ ಗಳಯನಾ
ಚಾಂಗಾಂತ ಚಾಂಗ ಜಾಂವಯಾ
ಟಾಳ್ಯೊ ಪೆಟೂನ ನಾಚೂಯಾಂ

ಗಾಂಧಿ ದೇವ ಮ್ಹಣುಯಾಂ
ತ್ರಿರಂಗ ಬಾವಟೊ ಧರೂನ
ಗಾಂವ ಭರ ಚಲೂಯಾಂ
ಶಾಳೆಕ ವಚೂನ ಶಿಕೂನ ಸವರೂನ
ಬುಧವಂತ ಆಮೀ ಜಾಂವಯಾಂ
ಮೆಳುನ ಜುಳುನು ಖೆಳ ಖೆಳುನ
ಬರೆಪಣ ಆಮಿ ಬಾಳಗೂಯಾಂ

# 30. ಪಾವಸರಾಯ

ಮಳಬಾರ ಮೋಡ ಮಾಂಡಲೆ
ಧೂಳ ವಾರೆ ಸುಟಲೆ
ರುಖಾ ಕವ್ರಂ ಹಾಲ್ಲೆ ಧೊಲ್ಲೆ
ಮೋಡಾಂತ ಗುಡಗುಡ ಧಾವಲೆ
ಗಗನಾರ ವೀಜ ಪೆಟಲೆ
ದ್ರೊಣಾರಂಗ ಉದ್ದೆಲೆ
ಪಾವಸಾ ಕಿಟಯೊ ಧೆಂಬೆಲೆ
ವ್ಹರಣ ತೆಂ ಭಾಯರ ಸರಲೆಂ
ಕೊಣಾಲೆಂ?
ಪಾವಸರಾಯಾಲೆ...
ಆಂಬ್ಯಾ ತಾಳಿಯೆ ಶಿಂಗಾರೂ
ಗಾಂವ ಭರ ಭಿಂಗಾರು
ವಸುಂದ್ರೆಲೆ ಘರಾ ಆವಾರೂ
ಕೊಣ ಲಾಗಲಾ ಸುಂದರು?
ಜಾಲ್ಯಾರ ರಾಯಾಲಿ ರಾಣಿ
ಖಂಯ ಲಿಪಲೀ?
ಪೊಲಿಯಾಕ ಹಾತ ಲಾವನ
ಫುಲ್ಲಾರ ರಾವೂನ ನಾಚತಲೀ
ತಣಾರ ಬೈಸೂನ ಹಾಂಸತಲೀ
ಫಳಾಂತ ಬಿಣೀ ವಿರಗಳೀ?
ಹಾಯ ಮ್ಹುಜೆ ಬಾಬಾ...

# 31. ಮೊಗಾರ್ಯಾ ಫಾಡ್ಡೆಂ

ಫಾಲ್ಲೆ ಜಾಲೆಂ
ಘಮ ಘಮ ಮೊಗಾರ್ಯಾ ಫಾಡ್ಡೆಂ
ಮಾಥ್ಯಾಂತ ಖೊಯತಾ ಸುಲ್ಲಮಾ
ಪರಮಳು
ಹುಂಗೂನ
ಸುವಾಸು ರೊಂಗಾವನ
ಮಜಾ ಮಾರತಾ ಸುಲ್ಲಮಾ
ಹಳೂ ಹಳೂ ಸಾಂಜ ಜಾಲೀ
ಮೊಗಾರ್ಯಾ ಫಾಡಯಾ ರಂಗು ಉಡಲೊ
ಟವಟವು ಭಾಗೂನ ಬಾವಲೆ..

ಕಿತುಲೆಂ ಫಾಣಯಾರ ಕಿತುಲೆಂ ಫಾಣಯಾರ?
ಕೊಣ ಮ್ಹಣತಾ ?
..ಸುಲ್ಲಾಮಾ !! ಮ್ಹಣತಾ ..
ಕಿತೆಂ ಕರತಾ?
ಮಾಥ್ಯಾಂತ ಸಾಕೂನ ಹುಮ್ಬಿತಾ
ಕೂಡಾ ಕೊನಶಾಂತ ಉಡಯತಾ
ತರೀ ಕಿತೆಂ ಮ್ಹಣಜೆ ..?

ಮೊಗಾರ್ಯಾ ಫಾಡ್ಡೆಂ ತೆಂ ಪರಮಳತಾ
ಮಾಥ್ಯಾರ ಬೈಸತಾ
ಬಾವನ ತರೀ ಫಾಮಶೆತಾ..
ಕೊಯರಾಂತ ಪಡತಾ
ಗುಣ ತಕೀತ ಗೌರವ ಮೆಳತಾ
ರುಣ ತಕೀತ ಸಖ್ಯ ಮೆಳತಾ
ಹೆಂ ಸಗಟಾಂಕ ಜಾಣೀವ ಜಾಂವಕಾ

# 32. ಹಾಂವ ಕೊಣಂ

ದೆವಾಲೆ ಗಳ್ಯಾ ಮಾಳೆಂತ
ಲಿಪಲಾ ಪಳಯಾ ಹಾಂವ ಕೊಣಂ?
ಆಮಾಲೆ ಮ್ಹಾವೆಲೆ ವೇಣೀಂತ
ಶಿರಕಲಾ ಪಳಯ ಹಾಂವ ಕೊಣ
ಆಕಾಲೆ ಫಾಂತಿಯೆ ಗಾಂಟೀಂತ
ಗುಟಲಲಾ ಪಳಯ ಹಾಂವ ಕೊಣಂ
ಉದ್ಯಾನಾ ರೊಂಪ್ಯಾ ಕೊಂಗಶೆರ
ನಾಚತಾ ಪಳಯ ಹಾಂವ ಕೊಣ?

ಸೂರ್ಯಾಲೆ ಕಿರಣಾ ತೇಜಾಂತ
ಫುಲತಾ ಪಳಯ ಹಾಂವ ಕೊಣ?
ಘಮ ಘಮ ಘಮ ಘಮ
ಪರಮಳು ದಿತಾ..

ಸುಂದರ ಸುಂದರ ಹಾಂವ ಕೊಣ ?
ಸುಂದರ ರಂಗಾಚೆ ಸೊಬಾಯೆನ
ಪರಮಳ ಪರಮಳ ಸುವಾಸಾನ
ಭೂಂಯ್ಚೆರ ಚಂದಾಯೀ ಶಿಂಪ್ತಲೊ
ಸಾಂಗ ಪಳಯ ಹಾಂವ ಕೊಣ ?

# 33. ಬಾವಲ್ಯೆ ವ್ಹಾರ್ಡಿಕ

ರುಂಬಡಾ ರುಖಾ ಪೊಂದಾಂತ
ಬಾವಲೊ-ಬಾವಲ್ಯಾಂಕ ವ್ಹಾರ್ಡಿಕ
ಬಾಮಣ ತೊ ಶ್ರೀ ರಾಮು
ಸೀತಾ ದೇವಿ ಬಾಯಲ ಮೂಂ ?

ಬೆಗಡೆ ಬಾಸಿಂಗ
ಗೊರಟೆ ಮಾಳಾ
ರುಖಾ ಸಾವ್ಹಾಂತ
ಘಾಂಟ್ಯಾ ಮಾಂಟವೀ
ಮಂತ್ರ ಸಾಂಗತಾ ಗಾಯತ್ರೀ
ಜಗಾಂಟ ಮಾರತಾ ಗಣಪತಿ
ತೊಂಡಾನ ವಾಜಪ ವಾಜತಾತ
ಗುಲಾಬಾ ಉದಕ ಶಿಂಪತಾತ
ಎಕ್ಟೆನ ಎಕಟ್ಯಾಕ ಮಾಲಾ ಘಾಲೂನ
ಮಾತಿಯೆ ಅಕ್ಷತ ಮಾಥ್ಯಾರ ಉಡೊವನ
ರುಂಬಡಾ ಫಳಾನ ಸೇಸ ಭರುನ
ಟಾಳಿಯೊ ಪೆಟೂನ ಹಾಂಸತಾತ

ಸಾಳ್ಯೆರ ಪಾನ್ನಂ ಪಾತಳಾವನ
ವಾಡಳೆ ಚಿಮಟಿ ಚಿತ್ರಾನ್ನ
ಆಮಾಯ ಆಯಲಿ ಆಕಾಯ ಆಯಲಿ
ಅಜಾಪ ಜಾವನ ವ್ಹಾರ್ಡಿಕ ಚೊಯಲಿ
ಆವೊಯ ಭುರಗ್ಯಾಂಕ ಆಫಯತಾ
ಮಿಠಾಯಿ ಉಂಡೊ ವಾಂಟಿತಾ
ಮಾಕಾ ಆಮಾ.. ಮಾಕಾ ಆಮಾ..
ಪಾಂಯ ಧರತಾತ ತುಗೆಲೆ ಆಮಾ
ಬಾಬಾ-ಬಾಯೆ ಬಾಬಾ-ಬಾಯೆ
ದೇವು ತುಮ್ಕಾ ಕರತಲೊ ಬರೆಂ

# 34. ಮೆಮ್ಮೆ ಪೀಲ

ಮೆಮ್ಮೆ ಪಿಲಾ ಮೆಮ್ಮೆ ಪಿಲಾ
ದರ್ಯಾ ದಾರಾಕ ವಚೂನಕಾ
ನುಸ್ತೆಕಾರ ರಾಕೂನ ರಾವಲಾ
ರಾಂಪಣ ಪಾತಳಾವನ ಧರತ
ಜೀವ ತುಜೊ ಕಾಡತ
ತಳಾಂತ ದೆಂವ ತಳಾಂತ ದೆಂವ ತೂಂ ।

ಭಿಜುಡಿ ಭಿಜುಡಿ ಮಗೆಲಿ ಆಮ್ಮಾ
ತಳಾಂತ ತೂಂಚ ದೆಂವನಾ ಕಿತ್ಯಾಕ?
ದರ್ಯಾರ ಭೊವನ ಯೆತಲೊ ಹಾಂವ
ಭೊವ ಜಾಣ್ಕಾರ ಆಸ್ತಲೊ ಹಾಂವ
ಉಡ್ಡತ ಉಡ್ಡತ ಗೆಲೆಂ ಪೀಲ
ಗರ್ವಾರ ಉದಕಾಂತ ಪೆಂವ್ಲೆ ಪೀಲ ॥

ಶಿರ್ಕೂನ ನುಸ್ತೆಕಾರಾಲೆ ರಾಂಪಣಾಂತ
ಮಾರಲಿ ಬೊಬ ವ್ಹಡಾನ ವ್ಹಡಾನ
ಗೆಲೊಂ ಮೆಲೊಂ ಹಾಂವ ಆಮಾ..
ರಾಂದೂನ ಮಾಕಾ ಖಾತಾತ ಆಮಾ
ಹಾಂಗಸೂನ ಮಾಕಾ ಸೊಡವಾಯ ಆಮಾ
ಪಗೀನ ಕಿತ್ಯಾಕ ಯೆನಾ ಆಮಾ...

ಪೀಲ ಸಾಂಗಲಲೆ ಆಯಕಲೆ ನಾ
ಪಿಲಾಲ ಆಮಾ ಪಾವಲಿ ನಾ
ಆಮಾನ ಸಾಂಗಲಲೆ ಆಯಕುಕಾ
ಆನಾನ ಸಾಂಗಲೆಲೆ ಆಯಕುಕಾ
ಜಾಣಾಕಾರ ಜಾವಕಾ ಭುರಗ್ಯಾನೊ

## 35. ಮಾಕಡ

ರುಖಾರ ಬೈಸೂನ ಮಾಕಡ
ಶೆಂಪಡಿ ಹಾಲಯತಾ
ಕವ್ರೆರ ತಾಂತು ಕವ್ರೆರ
ಉಡಕಿ ಮಾರತಾ

ಪಾವಸ ಯೆತಾ
ವತ ಯೆತಾ
ಮಾಕಡ ಮಾಮಾಕ
ಲಗ್ನ ಜಾತಾ
ಬಾಯಲೆಕ ಬಗಲೆ ಘಾಲನ
ಘುಂವತೀ ಘುಂವತೀ
ಉಡಕಿ ಮಾರತಾ

ಗೀಮ ಯೆತಾ
ತಾನ ಲಾಗತಾ
ಬುಡಕುಲೆಚಿ
ಪಾಣೀ ಪಿತಾ
ಚೊಯತಾ ತೊಂಡಿ
ಉದಕಾಂತ
ಚೊವ್ನು ಚೊವ್ನು
ಫಕತ ಹಾಂಸತಾ
ಮಾಕಡ ರೆ ಮಾಕಡ ಅಸ್ಸಲ
ಮಾಕಡ...

# 36. ಪಾವಸ ಆಯಲೊ ಪಾವಸ

ಪಾವಸ ಆಯಲೊ ಪಾವಸ
ಥಂಡ ಥಂಡ ಪಾವಸ
ಯೆವಚೆ ವೆಳಾರ ಯೆನಾ
ಸೊಡಚೆ ವೆಳಾರ ಸೊಡನಾ

ಪಾವಸ ಆಯಲೊ ಪಾವಸ
ಥಂಡ ಥಂಡ ಪಾವಸ
ಬೆಬ್ಯಾಂಕ ರಡೊನ
ಗುಡ ಗುಡ ಧಾವೊನ
ವೀಜ ಪೆಟೊನ
ರೂಖ ಝೂಡಾಂ ಹಾಲೊವನ
ಪಾವಸ ಆಯಲೊ ಪಾವಸ
ಥಂಡ ಥಂಡ ಪಾವಸ

ಮಧುರ ಮಧುರ
ಕೊಗುಳಾ ಗಾಯನ
ಧಾರಾರ ಸುಟತಾ
ವಾರ್ಯಾ ಘರ್ಜನ
ಮಾಡ ಮಾಡಿಯೆರ ಭಿಂಗಾರು
ಭುಯೆಂಕ ತೊ ಶೃಂಗಾರು
ಪಾವಸ ಆಯಲೊ ಪಾವಸ
ಥಂಡ ಥಂಡ ಪಾವಸ

# 37. ಪಾವಸಾ ಗೆಲೆಂ ಪಾಕುಲೆಂ

ಪಾಕುಲೆ ಗೆಲೆಂ
ಇಷ್ಟಾಕ ಸೊದೂನ
ಹೊಡಲೊ ಪಾವಸ
ಆಯಲೊ ಸುಟುವೂನ
ಪಾಕುಲೆಂ ಪಾಂಖ
ಪಾವಸಾಕ ತಿಂಬೂನ
ಜಾಲೆ ನಾ ತಾಕಾ
ವಚೂಂಕ ಉಬೂನ
ರಡ ರಡ ರಡಲೆ ಪಾಕುಲೆ
ಪಾನ್ನಾ ಪೊಂದಾಕ ಲಾಂಬಲೆ
ವೂಂ ವೂಂ ವೂಂ...
ಅಶೆ ಥೊಡೆ ತೆಂಪಾನ
ಪಾವಸ ರಾಬಲೊ
ಹಳೂನ
ವತ ತಾಪಲೆ ಬೆಗಿನ
ಪಾಖಂ ಸುಕೊನ ಪಾಕುಲೆ
ಇಷ್ಟಾಂಕ ಮೆಳೂಂಕ ಗೆಲೆಂ
ತಾಂಗೆಲೆ ವಾಂಗಡಾ ಹಾಂಸ್ಲೆ
ತಾಂಗೆಲೆ ವಾಂಗಡಾ ನಾಚಲೆ
ಹಾಂಸುನ ನಾಚೂನ
ನಾಂಚೂನ ಹಾಂಸೂನ
ಪಾಕುಲೆಂ ಖೊಶೀ ಪಾವಲೆ

# 38. ಒಂದರಿಂದ ಶಂಬರ

ಒಂದು ಒಂದು ಎರಡು
ಶಿತಾಂತ ಪಡಲಾ ಬರಡು
ಎರಡು ಎರಡು ನಾಲಕ್ಕು
ಖಾವಚಾಕ ಗೋಡು ಮಿಸೂರಪಾಕು
ಮೂರು ಮೂರು ಆರು
ಪೀ ತೂಂ ಬಿರಿಂಡಾ ಸಾರು
ನಾಲಕ್ಕು ನಾಲಕ್ಕು ಎಂಟು
ದೊಶಣೆ ಘುಲ್ಲಾ ದೆಂಟು
ಐದು ಐದು ಹತ್ತು
ನಾಕಾಕ ಲಾಯಲಾ ನತ್ತು
ಆರು ಆರು ಹದಿನೆರಡು
ವಯಲಯಾನ ಉಬಲೊ ಗರುಡು
ಏಳು ಏಳು ಹದಿನಾಲಕ್ಕು
ವಾಡನಾ ಕಿತ್ಯಾಕ ದೂದಪಾಕು
ಎಂಟು ಎಂಟು ಹದಿನಾರು
ಘಾಟೀರ ಪಡಲಾ ದಾಡೊರು
ಒಂಭತ್ತು ಒಂಭತ್ತು ಹದಿನೆಂಟು
ಗೊಡಾಕ ಆಯಲೊ ಅಂಟು
ಪತ್ತು ಪತ್ತು ಇಪ್ಪತ್ತು
ಬೂಂದೀ ತಳೀ ತುಪ್ಲಾಂತು
ಇಪ್ಪತ್ತು ಇಪ್ಪತ್ತು ನಾಲವತ್ತು
ದಾದಾ ಮ್ಹಜೊ ಬಲವಂತು
ನಲವತ್ತು ನಲವತ್ತು ಎಂಬತ್ತು
ದಾಳೀ–ಮೊಗೆ ಆಂಬಟು
ಎಂಬತ್ತು ಇಪ್ಪತ್ತು ನೂರು
ಬುಧವಂತ ಆಮಗೆಲೊ ಪೊರು

# 39. ಗರ್ನಾಲ್ ಗಣ್ಣಿ

ಆಜಾಲೆ ಬೊಲ್ಲಾಂತ ಹಾತ ಘಾಲೂನ
ದುಡೂ ಘಾರತಾ ಗಣ್ಣಿ
ಪೆಂಟಾಂತ ವಚೂನ ಗರ್ನಾಲ ಘೆವನ
ಬಾಗಾಂತ ಮಾರತಾ ಗಣ್ಣಿ
ಢಾಂ ಢಾಂ .. ಟುಸ್ ಟುಸ್..

ಗರ್ನಾಲ್ ಫಕತ ಘುಟೂನ
ಸುಟತಾ ಗಣ್ಣಿಲೆ ಘಾಟೀರ
ಗಣ್ಣಿ ಭಿಯೆವನ ಘರಾಂ ಧಾವನ
ಲಿಪತಾ ಕುಡಾ ಕೊನಶಾಂತ
ಘಾಟಿ ಜಳಪಾಕ ಬೊವಾಳ ಘಾಲತಾ
ರಡತಾ ವ್ಹಡಲ್ಯಾ ಸುರಾನ
ಲೊಳತಾ ಜಮನೆರ ಪಡೂನ

ತೆದಳಾ..
ಹಾತಾಂತ ಬೊಡೊ ಧರುನ
ಆಯಲೊ ಆಜೊ ರಾಗಾನ ಘುಗೂನ
ಲಿಪ್ಪಿಲೆ ಗಣ್ಣಿಕ ಭಾಯರ ತಾಂಡೂನ
ತಾ.. ತಾ.. ತಾಪಯತಾ..
ಪೊಲ್ಯಾಕ ಮಾರತಾ
ಕುಲ್ಯಾಕ ಮಾರತಾ
ಚಾಂಗ-ಬಲ್ಲಾವ ಜಾಯತೆಂ ಸಾಂಗತಾ
ಘಾರುಂಕ ನಜ
ಫಿರುಂಕ ನಜ
ಲಿಪೂಂಕ ನಜ
ಘಟವಣಿ ನಜ
ಜಾಯತ ಜಾಯತ ಜಾಯತ ಆಜಾ..
ತೂಂವೆ ಸಾಂಗಿಲೆ ಆಯಕತಾ ಆಜಾ..
ನಿಮಾಣೆ..
ನಾತವಾಲಿ ಘಾಟಿ ಪರಸೂನ
ಘೋಮಾಂತಲೆ ಉದಕ ಪುಸೂನ
ಬೊಡೊ ಉಕಲೂನ
ದಾರ ಮೆಕಲೂನ
ಆಜೊ ರೆ ಭಾಯರ ಪಡಲೊ

# 40. ಪಾಳ್ಣಯಾಂತುಲೊ ಬಾಬು

ಪಾಳ್ಣಂ ಭಿತರ ನಿದೊವನ
ನಾದ ಕಾಡೂನ ನಾಂಚೂನ
ಗಿಲಗಿಲ್ಯೊ ಮೋರು ತೊ ಕೊಣ?
ಸಾಂಗನಾ ಕಿತ್ಯಾಕ ಮಾಕಾ ತೂಂ ಆಮಾ..

ಲೊಣ್ಯಾ ಮೊವಾಳ ಗಾಲ್ಲಾಂಚೊ
ಕಾಳೆ ಕಾಜಳಾ ದೊಳ್ಯಾಂಚೊ
ಗುಲಗುಲ ಹಾತ ಪಾಯ್ಯಾಂಚೊ
ಭಾಲು ತೊ ತುಗೆಲೊ ಮಗೆಲೆ ಆನಾ

ಗೊಂಡಯಾಲೆ ದೊಳ್ಯಾ ಪಡದ್ಯಾಂತ
ಮಳಬಾ ನಖೆತ್ರ ಘಳಘಳತಾ
ಪುನವೆ ಚಂದ್ರಾಲಿ ಚಾನ್ನೆಣಿ
ಪೊಲ್ಯಾರ ಸಾವನ ಉದ್ದೆತಾ

ತಾಂಬಡೆ ಪಾವಳ್ಯಾ ಓಂಟಾರ
ಸಾಂಜ ಘುಲೂನ ಘಮಘಮತಾ
ಚೊಂಚ್ರೆ ಚೊಂಚ್ರೆ ಬೊಲಿಯೆನ
ದೇವಾಕ ತೊ ದೇವಾಕ ಭುಲ್ಲಯತಾ

ಚಾಂಗ-ಬಲ್ಲಾವ ಪಾಪ-ಪುಣ್ಯ
ದೊನ್ನುಂಯ ತೊ ನೆಣ
ತರೀ ಸಾಂಗ ಮಾಕಾ ತೊ ಕೊಣಂ?
ದೇವು ತೊ.. ದೇವು ಮಗೆಲೊ ಆನಾ..

# 41. ಬುಚ್ಚಿ ಬಾಬು

ಉಡೂನ ಉಡೂನ
ನಾಚೂನ ಯೆತಾ
ಪೊಕ್ಕಾ ಆಮಚೊ
ಬುಚ್ಚೀ ಬಾಬು

'ರಪ್ಪ' ನಿ ಕಾನ
ನೀಟ ಕರತಾ
ಶೆಂಪಡಿ ಹಾಲೊವನ
ಸುತ್ತ ಕಾಡತ

ಅಂಬಾ ಅಂಬಾ
ತೊ ಮ್ಹಣತಾ
ಘಾಟಿ ಪೋಟ
ಜಿಬೆನ ಲೆಂವತಾ

ಲಾಗ ಮಾರುನ
ಧಿಂಗಣ ಘಾಲೂನ
ಪಾಲ್ಲೊ ಪೊತರೊ
ತೊ ಹುಂಗತಾ

ಆಮ್ಮಾಲೆ ಮ್ಹಾಯಾಂತ
ಘರಾ ಆಂಗಣಾಂತ
ಗಳ್ಯಾ ಖಿಲಖಿಲೊ ಹಾಲ್ಲಯತಾ
ಖಿಲಖಿಲ ನಾದ ಕಾಡೂನ
ತಕ ಧಿಮಿ ತೊ ನಾಚತಾ

# 42. ಮಾಜರಾ ಪೀಲ

ಮಾಜರಾ ಪಿಲ್ಲಾ ಮಾಜರಾ
ಬೀಳಾ ತೊಂಡಾರ
ಕಿತ್ಯಾಕ
ರಾವ್ಲಾ?
ಬೀಳಾಂತ ಲಿಪ್ಪಿಲೆ
ಹುಂದರಾ ಚೆಂವ್ಡೆಕ
ಧರುಂಕ
ರಾವ್ಲಾ...

ಮಾಜರಾ ಪಿಲ್ಲಾ ಹುಂದರಾ
ಚೆಂವ್ಡೆಕ
ಧರಲ್ಯಾರ ತೂವೆಂ
ದುಖಿತ...

ಯೆನಾ ಕಿತ್ಯಾಕ
ಮಾಗೆಲೆ ವಾಂಗಡಾ
ಬುಚ್ಚೀ ದೂದ
ಪಿವೂಂಕ..

ಬುಚ್ಚೀ ದೂದ
ದಿತ್ತಾ ತರೀ
ಹುಂದರಾ ಚೆವ್ಡೆ
ಕಿತ್ಯಾಕ?

ದೂದ ಪಿವೂನ
ತುಗೆಲೆ ವಾಂಗಡಾ
ಖೆಳತಲೊ ಹಾಂವ
ಗಮ್ಮತ

# 43. ಕಿತೆಂ ಕರೂಂಕ

ಆಜೊ ಉದ್ಯಾನ ವತ್ತಲೊ
ಕಿತೆಂ ಕರುಂಕ ?
ರುಖಾ ರೊಂಪ್ಯಾಂಕ ಉದಕ ಘಾಲೂನ
ಥಂಡ ಕರುಂಕ

ಆಜೀ ಶೆಜಾರಾ ವತಲೀ
ಕಿತೆಂ ಕರುಂಕ ?
ಹಾಂಚೀ ತಾಂಚಿ ಗಜಾಲಿ ಉಲೊವನ
ಮಜಾ ಕರುಂಕ

ಆನು ಬಜಾರಾ ವತಲೊ
ಕಿತೆಂ ಹಾಡೂಂಕ?
ಚಂಡು ಬೇಟ ಹಾಡುನ
ಫಕತ ಖೆಳೂಂಕ

ಆಮಾ ವಾಸರೆ ವತ್ತಲೀ
ಕಿತೆಂ ಕರುಂಕ?
ಕೊಕ್ಕೊ ಭೊಬೊ ಕರುನ
ಬಾಬಾಕ ಘಟಾಯ ಹಾಡೂಂಕ

ಬಾಭು ಶಾಳೆಕ ವತ್ತಲೊ
ಕಿತೆಂ ಕರುಂಕ?
ವಾಚೂನ ಗಿರೊವನ ಬರಪ ಶಿಕೂನ
ಜಾಣೇವ ಜಾವೂಂಕ

# 44. ಪಾವಸಾ ಪಾವಸಾ ಯೋರೆ ಯೊ

ಪಾವಸಾ ಪಾವಸಾ
ಯೋರೆ ಯೊ
ಮಗೆಲೆ ಬಾಗಾಂತ
ಖೆಳೂಂಕ ಯೊ
ಖೆಳೂಂಕ ತುಕಾ
ಬಾವಲಿ ದಿತಾಂ

ಚೆಂಡು ಆನಿ
ಭಟ ದಿತಾ
ಪಾವಸಾ ಪಾವಸಾ
ಯೋರೆ ಯೊ
ಬಾಗಾಂತ ಮಗೆಲೆ
ರಾತ ದೀಸ
ಜಾಯ ತಸೊ
ನಾಚೂನ ಘೆ
ಹಾಂಸೂನ ಘೆ
ಖೆಳೂನ ಘೆ
ನಾಚೂನ ಹಾಂಸೂನ
ಆನಂದ ಘೆ

ಘಾಂತ್ಯಾರ ಉಭಾವೂನ
ಗೀತಂ ಗಾವೂನ
ಪೊರಸಾಂತ ಮ್ಹಜೆ
ಹೆಡೂನ ಘೆ
ಗುಡೆಗುಡ ಧಾವೊನ
ಮಳಬ ಹಾಲೊವನ
ರುಪ್ಯಾಳಿ ಪೀಜ
ಪರಜಳೋವನ ಘೆ
ಪಾವಸಾ ಪಾವಸಾ
ಯೋರೆ ಯೊ
ಲಿಪೂನ-ಬಸೂನ
ಖೆಳೂಂಕ ಯೊ

## 45. ಬಾಯೆ ತುಕಾ ಕಿತೆಂ ಜಾಯ ?

ಆಗೆ ಆಗೆ ಬಾಯ ತುಕಾ ಸಾಂಗ ಕಿತೆಂ ಜಾಯ?
ಪೊರಸಾಂತಲಿ ಘುಲ್ಲಾಂ ಆನಿ ಗೊಟ್ಯಾಂತಲಿ ಗಾಯ್
ಬಾಯೆ ಬಾಯೆ ಕಶೆಂ ತುಜೆ ಘಾಗರೀಚೆ ಪಾಂಯ
ಸಾತ ಪಾಕಳೆವಿಂಲಿ ಹಾಂವ ರಾಯಾಲಿ ಬಾಯ
ಸಕಾಳಘುಡೆ ಬಾಯೆ ತುಕಾ ನುನ್ನು ಕಿತ್ಯಾ ಜಾಯ?
ಪೀನಾ ಜಾಳ್ಯಾರ ಮಾಕಾ ಯೆತಾ ಪೊಟಾಂ ಭೂಕ ಹಾಯ!

ಸಾಂಗ ಬಾಯೆ ಕಿತ್ಯಾ ಆಶೀಂ ಸಳಂ ಕರುಂಕ ಜಾಯ?
ಮಾಕಾ ಮೊಗ ಜಾಯ ಸಾಮಕಿ ಸಗಟಾಂಚಿ ಜಾಯ
ಶಾಳೆಕ ವತನಾ ರಡೂಂಕ ಯೆತಾ ತುಕಾ ಕಿತ್ಯಾ ಬಾಯ?
ಘರಾಂ ಮಾತ, ಮಾಕಾ ಮೆಳತಾ ನಾರಲಾಚಿ ಸೊಯ
ಆಮಾ ಮ್ಹಾರ್ಯಾಂತ ಸದಂ ತುಕಾ ನಿದೂಂಕ ಕಿತ್ಯಾ ಜಾಯ
ಹಾಂವ ಜಪತಾ ಯೆತಲಿಮ್ಹಣೂನ ಮಾಸ್ಟರ್ನಿ ಮಗೆಲಿ ಕಾಂಯ
ಪಾವಸಾ ಉದಕಾಂತ ಖೆಳ್ಯಾರ ತುಕಾ ಖೊಂಕಲಿ ಜಾತಾ ನ್ಹಂಯ
ಜಾತಾ ಜಾಲ್ಯಾರ ಖಾತಾ ಹಾಂವ ಡಾಬರಾಲೆ ಲೇಂಯ
ಆಗೊ ಆಗೊ ಬಾಯೆ ತುಜೊ ಆಜೊ ವತಲೊ ಗೊಂಯ
ವತಲೊ ಜಾಲ್ಯಾರ ಹಾಡತಲೊ ಮಾಕಾ ಖೆಳೂಂಕ ಮಾಡಾ ಪೊಂಯ

# 46. ಜೊಯರೆ ಬಾಬಾ ಜೊಯ

ಜೊಯರೆ ಬಾಬಾ ಜೊಯ
ಬಾಬು ಆಮಕಾ ಜಾಯ
ಜಾಯ ಮ್ಹಣು ಜಾಲ್ಲಲೊ
ದೆವಾನ ಆಮಕಾ ದಿಲ್ಲಲೊ
ಜೊಯ ಜೊಯ ಕರತನಾ
ದೊಳೆ ಧಾಂಪೂನ ನಿದತಲೊ
ಸಕಾಳಘುಡೆ ಉಠಾವನ
ಬುಚ್ಚೀ ದೂದ ಪಿತ್ರಲೊ
ಆಜೆನ ಬುಶ ಕರತನಾ
ಆಂಗಾರ ತೀಚೆ ಮುತತಲೊ
ಆನ್ಹಾನ ಬಗಲೆ ಮಾರತನಾ
ಡಗಲಾರ ತಾಚೆ ಹಾಗತಲೊ
ಆಮಾನ ಜೊಂಯೊ ಕಾಡತನಾ
ಖಳ ಖಳೂನ ಹಾಂಸತಲೊ
ಆಮಾಲೆ ಮ್ಹರ್ಯಾಂತ ನಿದೊವನ
ಚೇಂವ ಚೇಂವ ಚಿಂವತಲೊ
ಚೇಂವ ತೂ ಬಾಳಾ ಚೇಂವ
ಹಜಾರ ವರಸಾ ಜೇತೆಂ ರಾಂವ ತೂಂವ

## 47. ಯೊ ಕಾವಳ್ಯಾ ಯೊ

ಕಾವಳೊ ರುಖಾರ ಬಸತಲೊ
ಕಾವ ಕಾವ ಕರತಲೊ
ಬಾಬಾನ ಟಾಳಿಯೊ ಪೆಟಲ್ಯಾರ
ಬುರ ಕರುನ ಉಬತಲೊ

ಕಾವಳ್ಯಾ ತೂಂ ಉಬುನಾಕಾ
ತಾಂದುಳಾ ಉಂಡ್ಯೊ ದಿತಾ ತುಕಾ
ಖಾಲಾ ದೆಂವೂನ ತೂಂ ಯೆನಾ ಕಿತ್ಯಾಕ?
ಮಾಕಾ ಚೊಂಚೀಂತ ಧರನಾ ಕಿತ್ಯಾಕ?
ಮಾಕಾ ಚೊಂಚೀಂತ ಧರನಾ ಕಿತ್ಯಾಕ?
ಯೊ ಕಾವಳ್ಯಾ ಯೊ
ಕಾ ಕಾ ಕಾ...

## 48. ರಾಯಾಲಿ ಬಾಯಲ ರಾಣಿ

ಕಾಣಿ ಸಾಂಗ ಕಾಣಿ
ಆಗೊ! ರಾಯಾಲಿ ಬಾಯಲ ರಾಣಿ
ತೆ ಕಾಣಿಯೆಂತ ಎಕಟೊ ರಾಯ
ತಾಚೆ ಗಾಂಡೀಕ ಎಕ ಘಾಯ
ತೊ ಘಾಯ ಘುಟೂನ ಪೂ..
ತೆ ಪೂವಾಂತ ಪೊಂವತಾತ ಕೀರ
ಕೀರ ಖಾತಾತ ಆಂಬ್ಯಾ ಶೀರ
ತುಕಾ ಜಾಯ?
ತಿಕಾ ಜಾಯ?
ತಾಕಾ ಜಾಯ?
ಮಾಕಾ ಜಾಯ?
ಜಾಯ ಜಾಯ ಜಾಯ
ಕಾಡ ತೂಂ ಪಾಂಳ್ಣ್ಯಾಕ ಜೊಂಯ...

## 49. ತಾಟಿ ಪಿಟಿ ತಾಂಬೊಳೀ

ತಾಟಿ ಪಿಟಿ ತಾಂಬೊಳೀ
ಘೊಸಾಳೆ ಶೀರಾಂ ತಾಂಬೊಳೀ
ಗೊಡಿ ಗೊಡಿ ಕಾತ್ತಳೀ
ಖಾವನ ಮಾಥ್ಯಾ ಉಸಳೀ

ರಡಕುಳೀ ಬಾಬ್ಬಾ ಸಾಂಬಾಳೀ
ಗುಳ್ಡೀಯ ಪೆಜ ಮೊವಾಳೀ
ತುಪ್ಪಾ ಥೆಂಬ್ಯಾನ ಪರಮಳಿ
ಜಿಬ್ಬೆಕ ಲಾಯ ತಾಂಬೊಳಿ

ಮಿಟ್ಟಾ ಕಣಿ ಉವಾಳೀ
ನಿಡಲಾಕ ಲಾಯ ಕಾಜಳೀ
ಜೆವಿಲೆ ಬಾಬಾಕ ನಿದಾಯ
ಪಾಂಗುರ ತಾಕಾ ಕಾಂಬಳೀ
ಝುಮೆಲೊ ಆಮಗೆಲೊ ಬಾಬುಲೊ
ಝುಮ ಝುಮ ಝುಮೆಲೊ
ಝುಮ ಝುಮ ಝುಮೆಲೊ
ಝುಮುನ ನಿದೂನ ಪಡಲೊ

# 50. ವಿಕಣಾರೊ ಗುಂಡ

ವಿಕಣಾರ ಗುಂಡಾ
ದಾರಾನ ದಾರ
ಬಾವಲಯೊ ವಿಕ್ಕತ
ವಚ ಗೆಲೊ
ಧವೀಂ ಘುಲ್ಲ ಬಾವಲ್ಯೊ
ಕಾಳಿಂ ಕಿಟ್ ಬಾವಲ್ಯೊ
ಹಳದುವಿಂ ಹಳದುವ್ಯೊಂ

ರುಪಯಾ ಏಕಿ
ರುಪಯಾ ಏಕಿ
ವಿಕೂನ ಗೊಲ್ಯೊ
ಬಾವಲ್ಯೊ

ಪೊರಾನ ಘೆತ್ತಿ
ಪೊರ್‍ಯಾನ ಘೆತ್ತಿ
ಗುಂಡಾಲಿ
ಖೊಂಟಲಿ
ಖಾಲಿ

# 51. ಪಾಕುಲ್ಯಾಲಿ ಯುಕ್ತಿ

ವಾರ್ಯಾಂತ ಉಬೂನ ಆಯಲೆ ಪಳಯ
ಪಾಕುಲೆ
ಫುಲಾಕ ಉಮ್ಮಾ ದಿತಾ ಪಳಯ
ಪಾಕುಲೆ
ತ್ಯಾ ಫುಲಾನ ಲಜೆನ
ಮ್ಹೂವಾ ಥೆಂಬೆ
ಗಳಯಲೆ..
ಪಿಲೆಂ.. ಪಿಲೆಂ..
ಪೊಟ ಭರ ಪಿಲೆಂ
ಮಿಸ್ರೂಡ ಹಾಲೊವನ
ಉಬೂನ ಗೆಲೆಂ
ಪಾಕುಲೆ..

# 52. ಗೊಂಡೊ ಪೋರು

ಚಂದು ಬಾಬುಲೊ
ಗೊಂಡೊ ಪೋರು
ಹಾಂಸತಾ ಫಕತ
ಕಿತೆಂ ಕೊರುಂ?

ಒಂಟಾರ ಫುಲಯತಾ
ಸುಂದರ ಹಾಂಸ
ತೊಂಡಾಂತ ಲಿಪಯತಾ
ಸೊಬೀತ ದಾಂತ
ಹಾಂಸತಾ ಹಾಂಸತಾ
ಫಕತ ಹಾಂಸತಾ
ಖಿಣಾನ ರಡತಾ
ರಡತಾ ರಡತಾ
ರಡೂನ ರಡೂನ
ಪಾಳಣ್ಯಾಂತ ನಿದತಾ

# 53. ಟಾಂ ಟಾಂ ಟಾಂ

ಆಮಾನ ಹಾಡಲಿ
ಆಂಬ್ಯಾ ಘೊಡಿ
ಟಾಂ ಟಾಂ ಟಾಂ

ಆನಾನ ಖಾಲೀ
ಸಾನ್ನಾ ಪೊಳೀ
ಧೈ ಥಕ ಧೈ

ಆಕಾ ಜೆವಲಿ
ತಾಕಾ ಶಿತಾನ
ಟಾಂ ಟಾಂ ಟಾಂ

ದಾದಾ ಯೆವುನ
ದೂದ ಪಿಲೊ
ಧೈ ಥಕ ಧೈ

ಟಾಂ ಟಾಂ ಟಾಂ
ಧೈ ಥಕ ಧೈ
ಧೈ ಥಕ ಧೈ

# 54. ಫುಲಾ ಬಾಯ

ಫೂಲ ಜಾಯವೆ.. ಆಮಾ
ಫೂಲ ಜಾಯವೆ

ಫಾಂತ್ಯಾರ ಉಠೂನ
ಗುಂತಿಲೆ ಫೂಲ
ಸುಂದರ ಸುಂದರ
ಮೊಗರ್‍ಯಾ ಫೂಲ
ಸೊನೆರಿ ಸೊನೆರಿ
ಶೆಂವತೆ ಫೂಲ
ಹಲ್ಕಾ ಫುಲಕಾ
ಜಾಯ ಫೂಲ
ತಾಂಬಡೆ ತಾಂಬಡೆ
ಗುಲಾಬ ಫೂಲ
ಧವ್ಯಾನ ಧವೆ
ಮಂದಿರೆ ಫೂಲ
ನಿಳಶೆಂ ನಿಳಶೆಂ
ಶಂಕರಾ ಫೂಲ
ಫಾಂ ಫಾಂ ಫಾಂ
ಫಂಪ್ಯಾ ಫೂಲ

ಫೂಕೆ ಸವಾಯ
ಫೂಕೆ ಸವಾಯ
ಫೆಯ್ಯಾ ಫೆಯ್ಯಾ..
ಆವಯ್ಯಾ..

# 55. ಚಾನೀ ಬಾಯ (ಗಿಲಹರಿ)

ಚಾನೀ ಬಾಯೆ ಚಾನೀ ಬಾಯೆ
ರುಖಾರ ಚಡೂನ ಖೆಳ್ಯಾಂ
ಕುಲು ಕುಲು ಕುಲು ಹಾಂಸೂನ
ಹಾಲ್ಲತ ಜೊಲ್ಲತ
ರುಖಾ ತೊಂಕ್ಯಾರ ರಾವ್ಯಾ..

ನಾರಲಾ ಗಿರ್ಲಾ ಉದಕ ಪಿವೂನ
ಖಾಲಾಂತ ಕಿತ್ಯಾಕ ಉಡಯತಾ?
ಶೆಂಪಡಿ ಕಿತ್ಯಾಕ ಗಿಲಗಿಲಾವನು
ಗಲ ಗಲಾಯತಾ?
ಗಿಲಹರಿ ಮ್ಹಣತಾತ ತುಕಾ..
ಕಿತ್ಯಾಕ ಕಳ್ಳೆ ಮಾಕಾ...!
ಲ್ಹಾನ ದೊಳೆ ತುಜೆ ಸೊಬತಾ
ಗಾಂಣೆ ಗೊಡ ಮಾಕಾ ಲಾಗತಾ
ಖೆಳೂಂಕ ಮಾಕಾ ಆತಾಂ ಮೆಳತಾ?
ದೆಂವೂನ ಸಕಲ ಯೆತಾ?

ಚಿಕ ಚೀಂವ ಚಿಕ ಚೀಂವ
ಪೆರಾಂ ಬೊರಾಂ ತುಕ್ತಾಯ?
ತುಚಿ ಮಹಿಮಾ ಕಳ್ಳಿ ಮಾಕಾ..
ಶ್ರೀರಾಮಾಕ ತೂಂ ಜಾಪ್ತಾಯ?

# 56. ವಾರೆಂ

ವಾರೆಂ ವಾರೆಂ
ಸುಟುನ ಯೊರೆ
ರುಖ ಜಾಡ ಪುರಾಯ
ಹಾಲೊವನ ಯೊರೆ

ಪಾಲ್ಲೊ ಪೊತರೊ
ಉಬೊವನ ಯೊರೆ
ಫಳಾಂ-ಫುಲಾಂ
ಜಡೊವನ ಯೊರೆ
ಪರಮಳ ಗಿರಮಳ
ಗಾಂವಭರ ವಾಂಟರೆ
ಸರಂಗೊ ಪತಂಗೊ
ಗಗನಾರ ಧಾಡರೆ
ಸಟ ಸಟ ಸಟ ಸಟ
ಧಾರಾರ ಸೂಟರೆ
ಜಗಭರ ಜೀವಾಂಚ
ಶ್ವಾಸಾಕ ಜಾಯರೆ ತೂಂ

ಯೊರೆ ಯೊರೆ...
ವಾರೆಂ ವಾರೆ...

## 57. ಸೂಣೆ

ಭೌ ಭೌ ಸೂಣಯಾ
ತುಕಾ ಕಿತೆ ಉಣೆ ಯಾ
ಧನಿಯಾಲೆ ದಾರವಂಟ್ಯಾರ
ನಿದತಾ
ಘಾಲೆಲೆ ಉಡಯಲೆಲೆ
ಖಾತಾ
ಸೊಯರ್ಯಾನ ದಾರಾರ
ಆಯಲ್ಯಾರ
ಭೌ ಭೌ ಭೊಂಕತಾ ।

## 58. ಪಾಡ ನಾಂವಾಚ ಗುಂಡಾ

ಶೆತಾಂತ ರಿಗೂನ
ಕೊಬ್ಬು ಘಾರುನ
ಜುರಲೊ ಗುಂಡಾ
ಧಾವೂನ

ಜಣಾನ ಧರುನ
ಘುಂಶೆ ಮಾರುನ
ಸೊಡಲೊ
ಅರಜೀವ ಕರುನ

ದುಷ್ಟಾಂಕ ವೆಶ್ಹೂನ
ಫಿರೂನ ಘಾರುನ
ಗುಂಡ ಜಾಲೊ ಪಾಡ

ಪಾಡ ಗುಂಡಾನ
ಕರುನ ಮಸ್ತ
ಲಬಾಡೆಲೊ ಜಿಸ್ತ

# 59. ಗುಡ್ಡೆ ಮಾಣಿ

ಗುಡ್ಡೆ ಮಾಣಿ ಆಯಲೊ
ಗಾವೂನ ನಾಚೂನ
ಧಾವೂನ ಧಾವೂನ
ಗುಡ್ಡೆಮಾಣಿ

ದಾವ್ಯಾ ಹಾತಾಂತ ಗುಲಾಬಂ
ತಾಂಬಡೆ ತಾಜೆ ರಂಗ
ಪೊಸೊಭರ ಪಿಣ್ಣಿ ಪಾಕಳಯೊ
ಶಿಂಪೂನ ಶಿವರೂನ ಆಯಲೊ

ಉಜವ್ಯಾ ಹಾತಾಂತ ಖೆಳೊಣ್ಯೊ
ಬಾವಲೊ-ಬಾವಲಿ ರಂಗಣ್ಯೊ...

ಬಾವಲಿ ಕೊಣಾಕ ?
ಬಾವಲೊ ಕೊಣಾಕ ?
ಗುಲಾಬ ಕೊಣಾಕ ?

ಬೊವಾಳ ಘಾಲೂಂಕ ಲಾಗಲೊ
ಗುಡ್ಡೆಮಾಣಿ
ಯೆಯಾ ಯೆಯಾ ಪೊರಾನೊ
ಯೆಯಾ ಯೆಯಾ ಪೊರ್ಯಾನೊ
ಬಾವಲಿ ಘೆಯಾ
ಬಾವಲೊ ಘೆಯಾ
ಗುಲಾಬ ಘೆಯಾ ಬಾವಡ್ಯಾನೊ

# 60. ಚುಂಗಡಿ

1. ಪಿಕ್ಕಿಲೆ ಆಂಬ್ಯಾ ಪೋಡಿ
ಮುಕ್ಕಾಲಾಕ ದೇಡಿ
ಖಾವಚಾಕ ಗೋಡಿ
ಶಿಂದೂನ ಬೆಗಿ ಹಾಡಿ

2. ಆಂಗಣಾಂತ ಆಯಲಾಂ ವತ
ಸುಕ್ಕತ ಘಾಲಾ ಭಾತ
ಭಾತ ಶಿಜೊನ ತಾಂದುಳು
ಕಾಮೆರಾಂಗೆಲೊ ಗೊಂದೊಳು
ಗೊಳೊ ಗೊಳೊ ಗೊಳೊ

3. ಕಾಯಲೆರ ಘಾಲಾ ಪೊಳೊ
ತಾಕಾ ಹಜಾರ ದೊಳೊ
ಘರಾ ವಯಲೊ ಮಾಳೊ
ಮಾಳೆ ವಯರ ನಳೊ
ತಾಂಬ್ಡೊ ತಾಂಬ್ಡೊ ತಾಂಬ್ಡೊ

4. ಪಣಸಾರ ಬಸಲಾ ಪಣಸ
ಆಂಬ್ಯಾರ ಬಸಲಾ ಆಂಬೊ
ಬಾಗಾಂತ ರೊಯಲಾ ರೊಂಪೊ
ರೊಂಪ್ಯಾರ ಘುಲತಾತ ಕಣಸ

5. ಆಮ್ಮ ಮಾಕಾ ಕೊಕೊ ವಾಡಿ
ತಾಟಾಂತ ಹಾಡಿ ಗುಳ್ಳಾ ಘೊಡಿ
ಆಮ್ಮ ಗೆಲೀ ವಾಸರೀಕ
ಬಾಬು ಲಾಗಲೊ ರಡೂಂಕ
ಆಮ್ಮ ತೂಂ ವಚುನಾಕಾ
ಗುಳ್ಳಾ ಘೊಡಿ ಮಾಕಾ ನಾಕಾ
ಬಾಬಾ ತೂಂವ ರಡುನಾಕಾ
ಕೊಕೊ ನಾಕಾ ಮ್ಹಣು ನಾಕಾ

# खिल खिलो

ಖಿಲ ಖಿಲೊ



लेखकि

इंदिरा जोडुमठ

प्रकाशक

"श्रीकोसम"

श्री श्रीनिवास पाठशाळा एसोसियेशन

वि.टि. रोड, मंगळूर-५७५००१



इंदिरा जोडुमठ

परिचय:

माध्यमिक शाळेचे निवृत मुख्याध्यापिका बरपि स्वर्गस्त जे.वामन भट हांगेलि सुपुत्रि. चेर्डुवांक शिकैतऽचि तांगेले मनोविज्ञान आनि बाळसाहित्याचो परिचय हांका जालो. हाजेन हांका खूब उमेद आयिलि आनि हानि चेर्डुवाल्य खातिर कोंकणी काणियो आनि गीतं बरैल्यो. हांगेलि सुललित भास आनि सरळ शैलेचे हीं कवित्यो चेर्डुवांक आनि इतर वाचकांक मोहित कर्तल्यो. कोंकणी साहित्य क्षेत्रांत "गाड गूड दुदें" "हिरियङ्का रामराय मल्या" आनि "आव्सु बाप्सुक हाथ पुस्तक" महळे पुस्तक बरैल्यांत मात्र नह्य कोंकणी साप्ताहिक, मासिक पत्रिकेंत बरप कोर्नु, हानि कोंकणी आवयचि खूब सेवा केल्या.



**प्रो. डा. के. मोहन पै.**

गौरव सचिव, श्रीनिवास पाठशाला विद्या संस्थो

श्रीनिवास पठशाला ओरियंठल प्रौढ शाळा कोडियाळाचे देवु श्री वीर वेंकटेशाले स्थळारि राबुनु आस.आद्ले साठ वरसांतु ह्या विद्या संस्थेन दोन हजार विद्यार्थियांक योग्य शिक्षण दीव्नु उत्तम नागरिक केल्यात. श्रीमति इंदिरा जोडुमठ हानि तांगेले जीवनाचे अमूल्य ३८ वरस ह्या संस्थे खातिर व्यय केलां.हो संथो कोंकणी भाषा अल्प संख्यात संथो जाले प्रमाणेक तीणे हांगा कोंकणी भास वाडोच्याक आनि शिक्षण दिव्च्याक प्रामाणिक वाव्टं काळ्या. तिगेलें कोंकणी लेखन, भास आनि शैलेक आप्याले एक अस्मिताय आस. ह्याच संस्थेक वाव्टं काळेले आप्याले बापुसु दि. जे. वामन भट्ट हांका ह्यां पुस्त्क तीणे अर्पण केलेंले भो योग्य आस. तिगेले ह्यां श्रमान हो संस्थो वाडो आनि तिकाय आनिकय मस्त कोंकणी खातिर वाव्टं काड्चे विश्वास आनि शक्ति तो वीर वेंकटेशु प्राप्त कोरो महणु मागणी.